जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

वर्स ४७ : आंक ८ : एप्रील २०२१

* संस्थापक संपादपी :
स. रवींद्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

* वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

* संपादपी :
आसावरी नायक

* पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

* उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी :
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

* वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ९७३०८७९९९८/ ७४४७२६८७२०

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-

आर्गां



## मांडावळ...



भायले चित्र : भारत जगताप

भितल्ली चित्रां : वसंत नगर्सेकार, भारत जगताप, निशीत बोरकार

संपादकीय

# पूल भाशां मदलो आनी कोंकणी समाजां मदलो...



ह्या संवसारांत भाशा खूब. दरएक भाशेंत निजाचें साहित्य फुलत आसता. पूण एके भाशेंतलें साहित्य दुसरे भाशेंतलो वाचक वाचतलो जाल्यार ताच्या आदाराक येता तो अणकार. अणकार दोन भाशांक जोडटा. अणकार भाशा आनी साहित्य समृद्ध करता. पूल तो. कारण ह्या पुला वरवीं भाशीक आदान-प्रदान घडटा.

कोंकणींत वेगळे वेगळे अणकार जायत आसात. कोंकणींतलेंय साहित्य दुसऱ्या भाशांनी अणकारीत जावंक लागलां. अणकाराक सृजनशील साहित्या इतलेंच म्हत्व मेळपाक लागलां. इतलेंच कित्याक १९९० वर्सा सावन केंद्रीय साहित्य अकादेमी दर वर्सा मौलीक अशा अणकारीत पुस्तकाक पुरस्कार दिवपाक लागल्या.

साहित्याच्या मळार अणकार करतना खूब तडजोडी करच्यो पडटात. अणकार शंबर टक्के पुर्णत्वाक पावना. पूण तो जितलो सुंदर, बरो आनी विश्वासार्ह जाता, तितलो तो पुर्णत्वाक लागीं पावता. अणकार करप्याची कळाशी अशी आसता कीं मूळ संहिते परसय ताचो अणकार बरो जाल्लो आमका कांय कडेन पळोवंक मेळटा. कोंकणींतल्यान दुसऱ्या भासांत अणकारीत जाल्ल्या कांय पुस्तकांची देख आमच्यानी दिवंक येता.

साहित्य अकादेमी लेखकांक अणकाराचे प्रकल्प दिता. आमचेय लेखक ते प्रकल्प उडयो मारून घेतात. ते प्रकल्प कोंकणींत हाडटना मूळ भाशेचो अभ्यास नासतना अणकार जाल्या दुसऱ्या वा तिसऱ्या भाशेंतल्यान ते कोंकणींत हाडटात. कांय वेळार हे अणकार मूळ संहिते परस वेगळेच दिसतात. ह्या अणकाराचें मुल्यांकन जावप गरजेचें. फकत आपल्या नांवार एक पुस्तक लागचें आनी मानधन मेळचें हीच तर मोख आसत तर ह्या अणकारा विशीं ना उलयिल्लें बरें. पयलीं अणकाराचे प्रकल्प मेळवप आनी मागीर अणकाराच्या पुरस्कारा खातीर तिश्टप इतलीच ती मोख. हे कोंकणींत केल्ले अणकार कितल्या वाचप्यां मेरेन पावल्यात? आनी ताचो दर्जो कितें? हाचेर भासाभास जावप गरजेची.

रवीन्द्रबाब अणकाराचें म्हत्व सांगतना सदांच पुर्तुगेज भाशेची देख दिताले. एका काळार पुर्तुगेज भाशेंत उंचेल्या पांवड्याच्या साहित्याची निर्मणी जायना आसली. ते खातीर जांकां इंग्लीश धरून आनीक साबार भासो येताल्यो अशा पुर्तुगेज लेखकांनी संवसारांतलें बऱ्यांत बरें साहित्य आपले भाशेंत हाडलें. पुर्तुगेज वाचप्यांक दर्जेदार साहित्य वाचपाची गोडी लागली. आनी मुळांत ती परकी भास शिकून त्या भाशेंतले आनीकय बरें साहित्य वाच्चें अशें तांकां दिसलें. ह्या वाचकांतल्यान नवे साहित्यीक उदेवाक आयले आनी पुर्तुगेज भाशेन संवासारांतली एक मुखेल साहित्यीक भास म्हण नामना जोडली. जुजे सारामागो ह्या पुर्तुगेज लेखकाक १९९८ वर्सा साहित्यांतलो नोबेल पुरस्कार लेगीत मेळ्ळो.

आमचे म्हालगडे जे लिसेवाचेर शिकले, देखीक, लक्ष्मणराव सरदेसाय, पांडूरंग भांगी, शंकर रामाणी, बाकीबाब बोरकार, रवींद्रबाब केळेकार आदींनी संवसारांतल्या नामनेच्या साहित्यीकांचे मोलादीक साहित्य पुर्तुगेजींतल्यान वाचिल्लें ते खातीर ते कोंकणींत वयल्या पांवड्याचें साहित्य निर्मूंक शकले.

भाशेंत अणकाराचें म्हत्व मतींत दवरून आमी एप्रील म्हयन्याचो 'जागा'चो आंक अणकाराक ओंपला. ते खातीर अणकाराचें 'म्हत्व, मर्यादा आनी गरज' उक्तावपी लेख अणकाराच्या मळावेल्या जाणकारां कडल्यान मुजरत मागोवन घेतल्यात. ते भायर अणकारीत कथा, निबंद आनी कविता हांचोय ह्या आंकात आसपाव केला. ह्या वांगडा जागाचीं सदचीं सदरां आसातच.

हो आंक तयार जातना केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या २०२० वर्साच्या पुरस्काराची घोशणा जाली. कोविडा खातीर हे पुरस्कार रखडिल्ले. ह्या वर्साचो साहित्या खातीरचो पुरस्कार केरळांतले कोंकणी चळवळींतले म्हालगडे आर. एस. भास्कर हांकां तांच्या 'युगपरिवर्तनाचो यात्री' ह्या कविता संग्रहाक फावो जाला. खरें म्हणल्यार ह्या केरळांतल्या जेश्ट कवीक हो पुरस्कार हाचे पयलीं मेळपाचो. पूण म्हणटात न्हय 'देर आये दुरुस्त आये!'. भास्करबाब हो केरळांतलो कोंकणी समाज आनी गोंय, कर्नाटक आनी महाराष्ट्रांतलो कोंकणी समाज हांकां जोडपी एक 'पूल'. साहित्य रचणूके वांगडाच कोंकणीचो केरळांत प्रसार जावचो, तो वाडचो हे खातीर ते तन मन धनान वावुरतात. ते खातीर तांकां परबीं. केरळचेच दुसरे एक साहित्यीक व्ही. कृष्ण वडियार हांच्या 'बाळू' ह्या बाल नवलीकेक बालसाहित्यांतलो पुरस्कार मेळ्ळा. केरळच्या ह्या दोगय म्हालगड्यांक आमची परबीं.

साहित्य अकादेमीचो युवा साहित्य पुरस्कार संपदा कुंकळकार हांच्या 'चार पावलां आशियेंत' ह्या प्रवासवर्णनाक फावो जाला. संपदा हें जागार नेमान बरोवपी युवा साहित्यीक. हो पुरस्कार ताका आनीकय बरे साहित्य रचपाक उर्बा हाडटलो अशी आस्त बाळगुया.

'शेडड्याची धांव खंय वंये मेरेन' तशी कोंकणी साहित्यीकांची धांव साहित्य अकादेमी पुरस्कारा मेरेन आसता. पुरस्कार मेळूंक नाशिल्ले हो पुरस्कार आपल्याक केन्ना मेळटलो हाचेर दोळो दवरून आसतात. पुरस्कार मेळ्ळो की तांचे सपन साकार(?) जाता. एकदां सपन पुराय जातकीर त्या लेखका कडल्यान साहित्याची आमी अपेक्षा दवरप चुकीचें. त्या खातीर साहित्याचो दर्जो देंवत आसा. ह्या आंकात अनंत साळकार हांणी आपल्या लेखांत एका साहित्यीकाची प्रतिक्रिया दिल्ल्या ती आमकां खूब कितें सांगता. तो साहित्यीक म्हणटा 'कोंकणींक वेळे पयलींच खूब कितें मेळ्ळें. आमच्या बरोवप्यांक साहित्यीक संघर्श करचे पयलीच पुरस्कार आनी मान सन्मान मेळ्ळे. ताका लागून तृप्तीची सया आमच्या आंगभर पातळ्या'.

हीच खंत आमी फाटल्या आंकात उक्तायिल्ली. आमचे साहित्यीक हाचेर खरायेन विचार करतले आनी उंचेले पांवड्याचें साहित्य निर्मीतले अशी आस्त बाळगुया. आमच्या विनवणेक मान दिवन साहित्यीकांनी आपलें साहित्य वेळार धाडून दिलें म्हण सगळ्यांचे उपकार.






# रंगयात्री लक्ष्मण पै

आंतरराष्ट्रीय नामनेचे गोंयकार चित्रकार गोमंत भुषण आनी पद्मभुषण लक्ष्मण पै (फोंडेकार) ह्या वर्साच्या मार्चाच्या १४ तारखेर संवसाराक अंतरले. सदांच हांसतें मुखामळ आनी आपल्या चित्रांनी प्रसन्न रंगांचो शिंवर करपी हो ९५ वर्सांचो तरणाटो कलाकार मरणाक हासत हासत वेंगायत हो संवसार सोडून गेलो.

हो संवसार सोडून वच्चे पयलीं कांय दीस आदीं 'कीप स्माईलिंग-हांसत रावात' हो संदेश तांणी संवसाराक दिल्लो. आपली जीण वाडोवपाक कसलींच अडेचीं साधनां वापरचीं न्हय म्हण तांणी घरच्यांक आनी आपल्या दोतोरांक सांगिल्लें. घडये तांकां आपल्या मरणाची सुलूस लागिल्ली जावंक जाय. आपूण भरपूर जियेलो, एक समृद्ध जीण जगलों, आपले आवडीचे कलेची आनी आपले मांयभुंयेची आंगांत निमणो त्राण आसासर सेवा केली हाचें तांकां समादान आशिल्लें जावंक जाय.

हो मनीस फकत चित्रकारच नासलो तर तांच्या आंगांत बंडखोरी आसली. अन्याया आड झगडपाची तांची वृत्ती. मुंबय वच्चे पयलीं गोंयांत आसतना तांणी पुर्तुगेज राजवटी आड झगडपाचें बळगें दाखयलें. ते खातीर तीन वेळा तांकां बंदखण भोगची पडली. हीच तांची बंडखोरी मुंबय जे.जे. कॉलेजींत शिकयतना दिश्टी पडली. तांची संवकळ 'प्रोग्रेसिव्ह आर्टिस्टस' पंगडांतल्या वांगड्यां कडेन आसा म्हण तांकां सिर्वीस सोडपाची पाळी आयली. पूण ताठ मानेन ती सिर्वीस सोडून तांणी उंचेल्या शिक्षणा खातीर फ्रांसाची वाट धरली.

चित्रकले सांगाता तांकां बांसरी आनी सतार वाजोवपाक आवडटाली. संगीत, चित्रकला, नृत्य आदी कला एकमेकांच्या सांगाताक चड फुलतात अशें तांकां दिसतालें. गोंयचे विकासाचो ध्यास आशिल्ले आनीक एक नामनेचे चित्रकार शांताराम आमोणकार हांणी गोंयांत कला विद्यालय जावचे म्हण खूब यत्न केले आनी गोंयांत कला विद्यालय साकार जालें. आमोणकार हांणी लक्ष्मण पै हांकां गोंयांत येवन गोंय कला विद्यालयाचें प्राचार्यपद स्विकारपाचो आग्रो केलो. तांचे विनवणेक मान दिवन पै हांणी प्राचार्यपद स्विकारलें. जेन्ना सत्तरच्या दसकांत ते गोवा कला महाविद्यालयाचे दुसरे प्राचार्य म्हणून गोंयांत आयले तेन्ना तांणी मडगांवचे फामाद आर्कीटेक्ट सार्तो आल्मैदा हांचे सांगातान गोवा कला महाविद्यालयाची सोबीत इमारत उबी केली. मेकळ्या वातावरणांत हांगा येवपी भुरग्यांक कलेचें शिक्षण मेळचें असो तांचो हावेस आसलो.

लक्ष्मण पै हांणी खूब नामनेचे कलाकार घडयले. किर्तीकुमार प्रभू, निरुपा नायक, श्रीधर बांबोळकार हे तांचे कांय फामाद विद्यार्थी जे आयज तांचो वारसो चलयतात.

तांचे एक नामनेचे विद्यार्थी किर्तीकुमार प्रभू हांचे कडेन उलयतना पै हांची एक याद तांणी सांगली. पै हांची आवय भायर पडली. पै हांणी तिचे निमणे संस्कार करून रोखडीच दनपारां कॉलेजींत हाजेरी लायली आनी ते आपल्या कामांत गुंग जाले. तांचे विद्यार्थी तांकां पाचारपाक गेले तेन्ना तांणी आपली आवय गेल्याचें दुख्ख तोंडार दाखयलें ना आनी चित्रकले विशींच उलोवपाक लागले. सगळे भुरगे तांची आपल्या कामावेली निश्ठा पळोवन अजापीत जाल्ल्याचें प्रभू सांगतात.

पै हांचीं चित्रां फिगुरतिवे शैलींतलीं. रंगांची उधळण करपी. पाश्चात्य आनी भारतीय कलेचो सुमेळ सादपी. तांचीं चित्रां पळोवपी कला रसिकांक आनंद दितात. गोंयचो निसर्ग वा गोंयचीं खाशेलेपणां पळोवचीं तीं पै हांच्या चित्रांतल्यानच. तांणी पत्रादेवी हांगा स्वातंत्र्य सैनीकांच्या यादस्तीका खातीर कांय म्युरल्स केलीं.

पै हांणी आपली हे भुंये कडली आनी खास करून तांचे जल्मस्थान मडगांवां कडली आपली नाळ केन्नाच सोडली ना. सगळो संवसार भोंवन निमणे हो श्रेश्ठ कलाकार गोंयातच आयलो आनी आपल्या मायेमोगाच्या भुंयेर तांणी निमणो स्वास घेतलो.

लक्ष्मण पै आतां आमच्यांत नात. पूण तांणी काडिल्ल्या शेंकड्यांनी चित्रांनी ते आमच्यांत आसात. गोंय सरकारान तांच्या चित्रांची गॅलरी उबारून येता ते पिळगेक तांच्या चित्रांचो दिश्टावो घडोवंचो अशें मागणें आमी करुंया.



केरळांतल्या कोंकणी भाशेचो भौवमान

# साहित्य अकादेमी जैतवंत आर. एस. भास्कर

**सखाराम शेणवी बोरकार**

२०२० वर्साचो प्रतिश्टेचो केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो कोंकणी भाशे खातीर आशिल्लो पुरस्कार केरळांतले नामनेचे कोंकणी साहित्यीक आनी संघटक भो. आर.एस.भास्कर (भास्कर रामदास शेटी) हांच्या 'युगपरिवर्तनाचो यात्री' ह्या कविता संग्रहाक फावो जाला.

आर.एस.भास्कर हांचो जल्म ४ जुलै १९४७ दिसा, फोर्ट कोची, कोची-केरळ हांगा जालो. ल्हानपणा सावन तांकां कविता करपाची आवड. शाळेंत शिकतनां ताणी मलयाळम भाशेंत कविता रचल्यो. १९७८ वर्सा सावन तांणी कोंकणींत बरोवपाक सुरवात केली.

तांची साबार पुस्तकां उजवाडाक आयल्यात. 'अक्षरां' (१९९२), 'नक्षत्रां' (१९९५) 'अक्षतां' (१९९७), 'युगपरिवर्तनाचो यात्री' (२०१४), 'चैत्रकविता' (२०२०) हे कवितासंग्रह, 'चिनू मिनू चानो' (२००६) हो बालकविता संग्रह, 'पंचायतना' (१९८५) 'गुरुचरणी' (२०००) 'आत्म निवेदन' (२०१५) हीं भक्तीकाव्यां हांचो तातूंत आसपाव आसा.

ते भायर तांणी अणकाराच्या मळारय खूब काम केलां. मलयाळम भाशेंतलें साबार साहित्य तांणी कोंकणींत हाडला. तातूंत म्हज्या 'आज्याक एक हस्ती आशिल्ली' (२००१) कादंबरी, मूळ रचनाः वैक्कम मुहमद बशीर, 'ब्रह्मर्षी श्री नारायण गुरू' (२०१३) जिवन आनी साहित्य, मूळ रचनाः डॉ.टी.भास्करन, 'दैवदशकम' (२०१५) प्रार्थना काव्य, मूळ रचनाः ब्रह्मषी श्री नारायणगुरु, 'केळीघडावो' (२०१५) दीर्घ काव्य, मूळ रचनाः चङ्म्पुषा कृष्णपिल्ले, 'गौरी' कथासंग्रह, मूळ रचनाः टी. पद्मनाभन हांचो आसपाव आसा.

तांच्या 'म्हज्या आज्याक एक हस्ती आशिल्ली' ह्या केरळांतले नामनेचे साहित्यीक वैक्कम मुहमद बशीर मूळ मळयाळम कादंबरीच्या कोंकणी अणकारा खातीर केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो २००३ वर्साचो पुरस्कार मेळ्ळा. ते भायर कोंकणी भाशा प्रचार सभा साहित्य पुरस्कार (१९९४) ताराबाय विष्णु म्हापशेकार 'वैश्य भारती' पुरस्कार (१९९६) विल्फी रेंबींबस स्मृती पुरस्कार (२०१८) अशे पुरस्कार मेळ्ळ्यात. तांच्या साहित्याचो साबार देशी आनी विदेशी भाशांत अणकार जाला.




कोंकणी भाशेचो केरळांत प्रसार जावचो ह्या उद्देशान तांणी 'अक्षरमाला' (२०११) आनी 'कोंकणी भाशा परिचय' (२०१३) हीं शैक्षणीक पुस्तकांय बरयल्यात.

२०१३ वर्सा मडगांव हांगा जाल्ल्या २१व्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचे ते अध्यक्ष आसले. सध्याक ते कोंकणी पाठ्य पुस्तक समिती एस.सी.ई.आर.टी.-केरळ राज्य हाचे सदस्य आसात. तांणी साबार कविता संमेलनांनी वांटो घेतला.

आर.एस.भास्कर हे कोचीन विद्यापिठाच्या विज्ञान आनी तंत्रगिज्ञान फांट्यांतल्यान निवृत्त जाल्यात.

२०२० वर्साचो केंद्रीय साहित्याचो पुरस्कार मेळिल्ल्या 'युगपरिवर्तनाचो यात्री' ह्या कविता संग्रहा विशीं गोंय विद्यापीठाच्या कोंकणी विभागाच्यो आदल्यो मुखेली प्रियदर्शनी तडकोडकार कविता संग्रहाच्या प्रस्तावनेंत बरयतात, 'कोंकणीच्या केरळ मोडींतल्यान काव्य करपाची परंपरा खूब पोन्नी आसा. कोंकणीक समृद्ध करपाक ह्या मोडींन जितले लेखक आनी कवी दिल्यात तांतले मुखेल म्हळ्यार आर. एस. भास्कर. मिताक्षरी कविता ही कवी भास्कराची विशेशताय तांकां बाकीबाब बोरकार, र. वि. पंडीत, मनोहरराय सरदेसाय हांच्या पंगतीक हाडटा. तांणी ह्या ल्हान कवितांतल्यान जिणेचें सारतत्व सांगून व्हड आशय उक्तो केल्लो. तेच तरेन कवी भास्कर हांणी जिणेच्या तरा तराचीं तासां सैमाच्या प्रतिकां वरवीं उक्तीं केल्यांत.'

भास्करबाबाचें अभिनंदन करपाक हांवें तांकां फोन केलो तेन्ना तांणी खूब खोस परगटायली. ह्या पुरस्काराची फाटलीं दोन वर्सां आपूण वाट पळयतालो अशेंय सांगलें. हो पुरस्कार नव्या नेटान कोंकणी खातीर आपल्याक उर्बा दितलो अशेंय तांणी सांगलें.

केंद्रिय साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळिल्ल्या खातीर भास्करबाबाक परबीं.

संपर्क : 9923306751

केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या वतीन हालीच २०२० वर्सा खातीरचे साहित्य अकादेमीचे पुरस्कार जाहीर केले. केरळाचे कोंकणी म्हालगडे, नामनेचे कवी आनी अणकारपी आर. एस. भास्कर हांकां 'युगप्रवर्तनाचो यात्री' ह्या कविता झेल्या खातीर साहित्य अकादेमीचो हो मुखेल पुरस्कार फावो जाला. ह्या पुरस्काराच्या फांठभूंयेचेर 'जागा'च्यावतीन आर. एस. भास्कर ह्यांच्या लागी कोंकणी भास, साहित्य आनी फुडार ह्या विशयाचेर थोडयाच उतरांनी केल्लें हे उलोवप...

'खंयचोय पुरस्कार फावो जाता तेन्ना तो साहित्यकाराक उमेद आनी उर्जा दिता. आनी तातूंत जेन्ना पुरस्कार साहित्य अकादेमीचो आसता तेन्ना ही उमेद आनीक व्हड जाता. म्हाकाय हो पुरस्कार जेन्ना जाहीर जालो तेन्ना चड खोशी जाली. हांवें ह्या पुरस्काराची आस्त ह्या वर्सा बाळगू नाशिल्ली. तरीय तेन्नाच हो पुरस्कार म्हाका जाहीर जालो. ही म्हजे खातीर व्हड गजाल. हांवें आयुश्यभर कोंकणीची सेवा केल्या. गोंयां भायर रावपी आमी समदे लोक आमच्या परीन जाता तितलीं आमच्या कोंकणी माये खातीर सेवा दितात. आमची भास संवसारभर पावोवची म्हूण काम करत रावतात. हाचीच पावती म्हण जेन्ना असले राष्ट्रीय पावंड्या वयले सर्वोच्च पुरस्कार फावो जातात तेन्ना म्हाका आनी गोंयां भायर रावपी हेर कोंकणीच्या सेवकांक, बरोवप्यांक, कार्यकर्त्यांक चड उमेद मेळटा', अशा उतरांनी भास्करमाम आपणांक मेळिल्ल्या पुरस्काराचेर भाश्य करता. आनी 'कोंकणी खातीर तुमी केल्लें साबार लिखाण पळोवन, तुमकां हो पुरस्कार खूब पयलीं मेळपाक जाय आशिल्लो न्ही?' अशें विचारल्यार मात भास्करमाम खळखळून हांसता...

'हेर भाशां परस कोंकणींत आमचे कडेन बरें साहित्य आसा. विंगड विंगड विशयांचेर आमचें बरोवपी सदा बरयतात. गोंय, कर्नाटक, केरळ, तमिळनाडू, महाराष्ट्र, दिल्ली, गुजरात अशा साबार वाठारांनी कोंकणी साहित्य प्रकाशीत जाता. आनी हें पुराय साहित्य आपलें अशें वैशिश्ट घेवन येता. ताका लागून कोंकणी साहित्य हे पुराय देशाचें प्रतिनिधित्व करता, अशें म्हणल्यार तातूंत कितें अतिशयोक्ती जावची ना, अशें भास्करमाम सांगता. हाकाच जोडून ते मुखार म्हणटात, 'कोंकणी साहित्य जेन्ना हेर भाशांनी आनी चड करून इंग्रजीन अणकारीत जाता, तेन्ना वाचप्यांक नवल अशें दिसता. कित्याक लागून तर, कोंकणींचे अणभवविश्व हे व्हडलें आसा. आमचे चडशें साहित्यकार सैमा पासून ते तांचे जिविताचे प्रश्न आनी आंदल्यांचेर जाल्ले अत्याचार ते मुखा वयल्या पिळग्यांचे टेक्नोलॉजीचें आयुश्य अशा साबार विशयांचेर बऱ्यांतलें बरें साहित्य निर्माण करतात. आनी बारीक नजरेन पळयलें जाल्यार आमकां दिसता दिल्ली-



# 'आमी कोंकणी खातीर गंभीर नात!'

**किशोर अर्जुन**

गुजरातांतलें सैमा वयलें बरप आनी गोंय-केरळांतले सैमा वयलें बरप भिन्न आसा. पर हें समदें साहित्य 'कोंकणी' आसा. आनी जेन्ना हेर वाचपी ते वाचतात तेन्ना तांकां एक पुराय अणभव मेळटा अशें म्हाका दिसता. जेन्ना जेन्ना म्हज्यो कविता इंग्लीश ना जाल्यार मल्याळमान अणकारीत जाता, तेन्ना वाचप्यांक त्या कोंकणी कवितांनी विस्मय कसो दिसता. तांचें म्हण्णे आसा, 'मल्याळमान हे अशें केन्ना आमी वाचूंक ना. हें कितें तरी नवें आसा, हें कितें तरी बरें आसा.' अशें केरळात रावपी आनी कोंकणी तशेंच मल्याळमांत बरोवपी आनी मल्याळम, मराठी, हिंदी, इंग्लीश साहित्य वाचपी भास्करमामाक कोंकणी साहित्य कशें दिसता? या प्रश्नाचेर जाप दितना ते सांगतात.

तुमी म्हणटा ते कोंकणीचें सगळे चित्र बरें आसा, पूण मुखा वयल्या पिळग्यांक लागून आमी कोंकणी भाशेच्या विकासा खातीर कितें करपाक जाय? अशें विचारल्यार तांच्या तोंडा वयलें हासप मातशें गंभीर जाता. ते म्हणटा, 'आमी आमच्या मायभाशे खातीर गंभीर ना. आमी सामके 'केअरलेस' आसा. कांय भुरगे नोकरे खातीरच कोंकणी 'सबजेक्ट' घेतात अशें दिसता. ही बाब भाशेच्या पुढाराक लागून चड घातक आसा, अशें म्हाका दिसता. भास ही आमची जगण्याची बाब आसा. व्हडा संघर्श करून म्हालगड्यांनी आमची भास तिगोवन दवरल्या आनी आमका दिल्ली आसा. तिका आमी अशें वाऱ्याचेर सोडपाक जाय ना. विंगड विंगड वाठारांनी आमची भास उलयतात, बरयतात. पूण आमी सगळे एकठांय येवन भाशेचोच मुखा वयलो प्रवास आखूंक ना. तो जावंक जाय. अशें केल्ल्या उपरांत कोंकणीचो विकास व्हड भासा भाशेन जातलो. कोंकणी लिपीचो वाद आता काबार जावपाक जाय. आमी कोंकणी म्हूण एक जावपाक जाय. आता आमका चड वाद बी नाकात. कोंकणी मुखा वयल्या काळाची भास जावपाक जाय. आनी दरेक कोंकणी मनशान ते खातीर यत्न करपाक जाय. अशें भास्करमाम गंभीरपणान उलयता. आनी हाका लागूनच दिल्ली सरकाराच्या कोंकणी अकादेमीक

*(पान २५ चेर)*

# अणकार : गरज आनी आव्हानां

**मुकेश थळी**



संत तुकारामाच्या भक्तीकाव्याचो अणकार इंग्लीशींत करप म्हणल्यार फकांडांची कामां न्हय. मुदलांत तातूंत कडक अशी आध्यात्मीक उतरावळ येता. ह्या काव्यांत मन बुद्दी पेल्यानच्या इंद्रियातीत अणभवांचें वर्णन आसता. प्रतिकां, प्रतिमा आसतात. दुसरी गजाल म्हणल्यार भक्तीपंथ हो इंग्लीश वाचकाक आकलन जावप सोपें न्हय. तातूंत सांस्कृतीक तफावत उरता. पूण हें कठीण काम फांकीवंत मराठी कवी दिलीप चित्रे हांणी केल्लें. तांणी कांय वेंचीक कवितांचो इंग्लीश अणकार 'सेज तुका' ह्या पुस्तका वरवीं केला. हें पुस्तक पेंग्वीन प्रकाशनाचें. पानां २२८.

२२ पानांची दीर्घ प्रस्तावना हो पुस्तकाचो मुकुटमणी. इंग्लीश वाचकाक तुकाराम म्हणजे कितें आनी भक्तीकाव्य परंपरा म्हणजे कितें हें तातूंत उदकाचो झरो बी निस्तुचो तितले सहजतायेन सांगलां. स्फटिका सारके स्पश्टतेन.

प्रस्तावनेंत एक गजाल स्पश्ट केल्या. कवीन इंग्लीशींत अणकार करतकच जांचो हात अणकार पॉलीश करपाक लागला तांचीं नांवां दिल्यांत. ही वळेरी बरीच लांब. अणकार सुंदर जातलो, near perfect जातलो जाल्यार कितले श्रम लागतात, हें ताचे वयल्यान कळटा.

ही पळेयात एक झलक अणकाराची.

I shall sing of Him forever
I shall raise His slogan forever.
I shall go on telling the story of Hari forever.
For that's what pleases me.

ही आनीक एक -

Wherever I go
You go with me
You lead me
Holding my hand.

पुस्तकाचे अखेरेक संकल्पना स्पश्ट करपी एक वळेरी दिल्या. वेद, ब्रह्म, विठ्ठल, अवतार आनी हेर संकल्पना विस्कटावन सांगल्यात. ह्या पुस्तकाचीं हांवें पारायणां केलीं. ताची गोडी अवीट. अणकार कला विकसीत करपी तरणाट्यांनी मुजरत वाचपा सारकें हें पुस्तक.

अशीं खूब पुस्तकां आसतात, जातुंतल्यान आनंद घेवं येतात आनी अणकाराच्यो बारीकसाणी शिकूं येतात.

कोंकणीच्या मळा वयले इंग्लीशींत अणकार करपाचे म्हजे अणभव आतां सांगता. १९९२ च्या सुमाराक चंद्रकांत केणी आनी हेमा नायक हांच्या फुडारपणा खाला अनुवादीत कोंकणी कथा नवहिंद टायम्स आयतारचे पुरवणेंत येवपाक लागल्यो. हें अनुवादाचें मोटें ओब्रं म्हज्या गळ्यांत पडिल्लें. दर आयतारा एक कथा म्हणल्यार त्या काळांत ते पिरायेचेर म्हाका तें वजें कशें; कटकट कशी. पूण इंग्लीशींत कोंकणी कथा वचूंक जाय ही तळमळ आशिल्ली. पुंडलीक नायक हांच्यो कथा सगळ्यांत कठीण. तातूंत आडवें काव्य, वाठाराची भास आसा. प्रतिकां, प्रतिमा आनी हेर अलंकार अशे येतात की अनुवादकांक ते समजलेनांत जाल्यार अनुवादीत कथेची बरे तरेन वाट लागूं येता. प्रेमजागर ही दीर्घ कथा. तीच हांवें पयलीं केली. जागर, कुळागर हांवें भुरगेपणांत अणभविल्लें आशिल्ल्यान अनुवादाक हांव न्याय दिवंक शकलों. दर आयतारा ह्यो कथा हजारांनी लोकां मेरेन पावल्यो.

त्या काळांत इंटरनेट नाशिल्लें. लेखकांचीं पुस्तकां हाडप, तांचे कडलो संपर्क, परवानगी घेवप हें सगळें हेमाबाय करी. ह्यो कथा हांव हेमाबाय कडेन पेनान बरोवन दितालों. त्यो कथा हेमाबायन एकल्यान स्वता आपल्या धाकल्या टायपरायटराचेर टायप मारच्यो आनी नवहिंद टायम्सांत पावच्यो. हें काम आवडीन करपी हेमाबायन अनुवादाच्यो समिधा ओंपतना जे सांघीक यत्न जाय आसतात ताका तेंको दिल्ले खातीर तिचे उपकार मानतां.

कोंकणींतल्यो कथा इंग्लीशींत अणकारीत करतना जायत्यो आडखळी आनी आव्हानां आयलीं. कुळागर, माग, पाट, कल्लें, बात्रें अशीं आनी हेर कितलींशीच उतरां इंग्लीशींत व्हरतना कश्ट पडले. अणकारांच्या वाचनाचो लाव जालो. साहित्य अकादमीच्या नेमाळ्यांत आनी हेर कांय नेमाळ्यांनी भारतीय साहित्याचे अणकार येत आसतात. तातूंत कांय उतरां तयार केल्यात आनी तीं सर्वमान्य जाल्यांत अशें जाणवलें. देखीक - पत्रावळ (पानांची) ह्या उतराक leaf-plate हें उतर वापरलां. मागीलदार ह्या उतराक back-yard हें उतर वापरतात.

चेन्नयच्या ऑक्सफर्ड प्रेसांतली इंग्लीश अणकारांची संपादक मिनी कृष्णन ही म्हान संपादक. एका सेमिनारांत वांटो घेवपाक ती पणजे आयिल्ली. तिचे कडल्यानूय खूब शिकूंक मेळ्ळें. हेमा नायकाची हांवें अणकारीत केल्ली 'कांचन'ही कथा मिनीबायन तीन वर्सां आदीं फ्रँटलायन (२.२.२०१८) ह्या इंग्लीश नेमाळ्यांत उजवाडायल्या.



मिनी कृष्णन हिचे कडेन भारतीय भाशांतल्या साहित्याचे इंग्लीश अणकार ह्या विशयाचेर भासाभास करपाची संद मेळ्ळी. तिची ह्या विशयाचेर जाणकारी आसा. दीर्घ अणभव आसा. संपादनाचो. तिणें म्हाका वेगवेगळ्या भारतीय भाशांतल्या इंग्लीश अणकारांचें संपादन कितले बारीकसाणेन करचें पडटा, ती दाट फायलूच दाखयली.

पयलीं पांचवे शायेन, मागीर तांबडे, मागीर निळे अशे तरेन रंगयल्लीं कंपोज केल्लीं कागदां पळेलीं. अणकार पुर्णत्वाक पावोवपाक ताची गरज आसता. अणकारांत मूळ साहित्यकृतींतलें कितेंच शेणोवंक फावना. गाळूंक फावना. दुसरी गजाल म्हणल्यार पदरचें कितेंय घालून मेकप करूंक मेळना. परिनिर्मिती करपाची मेकळीक अनुवादकाक आसना. देखुनूच हीं आव्हानां अनुवादका मुखार कायम आसतात.

अणकार करतना सांस्कृतीक संदर्भ येतात तेन्ना ते दुसरे भाशेंत पावयतना त्रास जातात. वाक्प्रचार, म्हणी -ओपारी, गाळी, प्रतिकां -प्रतिमा, दोन अर्थांचो शब्द-खेळ आनी हेर अलंकार जे मूळ भाशेंत वापरल्यात ते दुसरे भाशेंत पावोवं नजो. काश्मिरी आनी कोंकणी कथांचे अणकार करपाची कार्यावळ साहित्य अकादेमी वरवीं जाल्ली. आदीं काश्मिरी अनुवादकांचो पंगड पणजेंत आयलो. तांच्या सांगाता आमी कोंकणी अनुवादकांनी काश्मिरी कथा कोंकणींत हाडल्यो. कोंकणी कथा तांणी काश्मिरींत व्हेल्यो. वांगडा काम करतना सांस्कृतीक संदर्भांतली आडखळ येताली, तेन्ना कोंकणी संकल्पना आमी तांकां समजावन सांगताले. काश्मीरी संकल्पना ते आमकां समजायताले. एके कोंकणी कथेंत *निरपणस* हें उतर आयिल्लें. हांवें तांकां बरेंच समजायलें. अखेरेक कला अकादमींत भायर पोरसांत एक निरपणस पडिल्लो तो हाडून दाखयलो. तेन्ना तांकां अर्थ कळ्ळो. काश्मिरी कथेंत *कांगडी* हें उतर आयिल्लें. आमी तें अणकारीत केलें. पूण उपरांत दुसऱ्या सत्रांत आमचो पंगड काश्मीराक गेल्लो तेन्ना कांगडी आमी थंय पळेली. कुडकुड्याच्या शिंयांत वेतान रेवडायल्ली, धग घेवपाक पेट्टे इंगळे घाल्ली, मातयेची कुंडी लांब दाट झग्यापोंदा धरून लोक थंय भोंवतात. ते कुंडेक कांगडी म्हणटात. तात्पर्य - ते ते वाठारांत आपले संस्कृताये कडेन संबंदीत उतरावळ आसता. ती दुसरे भाशेंत व्हरतना अनुवादकाक कठीण लागताच. अणकार वाचतल्याकूय समजुपाक कठीण जावं येता.

आतां सांगता कोंकणी कथांच्या इंग्लीश अणकाराची सुरवात कशी जाली ती. ऑगस्ट १९७४. मुंबयंत रावपी प्रा. प्रकाश थळी हांणी मुंबयंतूच रावपी शीला कोळंबकार हांची 'गेरं' ही कथा इंग्लीशींत केली आनी ती तेन्नाचें फामाद इंग्लीश नेमाळें 'फेमिना' हातूंत धाडली. ती कथा म्हणल्यार कोंकणी कथेच्या मळावेलो एक वाटचिरो. एक प्रभावी पेणें. फेमिनाकूय ती आवडली आनी तांणी ती रोखडीच छापली. इंग्लीशींत अणकारीत जावन भारतभर वचपी ही पयली कथा. पणजेची शीला नायक लग्न जावन मुंबय गेल्ली आनी शीला कोळंबकार म्हूण स्थायीक जाल्ली.

बरो अणकार घडटा, अनुवादकाक आवडटकच. ताका तो करीन दिसूंक जाय. ती प्रेरणा भितल्ल्यान येवंक जाय. म्हाका हें आवडलां, आनी तें हेरांक वांटूंक जाय अशें दिसून तो घडूंक जाय. 'गेरं' कथे विशीं तशें घडलें.

कोंकणींतल्यान हेर भाशेंत कथा वा हेर साहित्य अनुवादीत करतात तेन्ना अणकारप्याक साहित्याची बरी जाण जाय. दोनूय भाशांचेर प्रभुत्व जायच. अनुवादक हो बरो साहित्यीक, कुशळ संपादक आसचो पडटा. अणकारीत केल्ली कृती अनुवादीत अशी दिसूंक फावना. ती कृती स्रोत म्हणल्यार (source) भाशेंतले कृतीक प्रामाणीक आसूंक जाय आनी मोख (target) भाशेंतलो अणकार अडेचो दिसना अशी सुंदर आसूंक जाय.

शीलाबायची 'गेरं' कथा उपरांत पुर्तुगीजींत अनुवादीत जाली. इंग्लीशी वेल्यान. अणकाराची तांक पळेयात. इंग्लीश अणकार नासल्यार पुर्तुगीजींत अणकार घडप कठीण आशिल्लें. कालांतरान ती लीड्स विद्यापीठांतल्या पॉल क्रॅस्टो ह्या स्पॅनीश- पुर्तुगीज शिकोवपी स्कॉलर प्राध्यापकान वाचली आनी तो प्रभावीत जालो. गोंय आनी पुर्तुगीज हांचे संबंद तशेंच हाका समांतर आनीक एका फ्रेंच कथेचो तुलनात्मक अभ्यास करून ताणें एक पेपर वाचलो. कोंकणी खंय पावली पळेयात. अणकार ह्या पुलाक लागून. तो पॉल क्रॅस्टो फकत इतल्यार रावंक ना. ताणें सात समुद्रां पेल्यानच्यान म्हजो नंबर सोदून काडून म्हाका फोन केलो. ते कथे विशीं आपलो अभिप्राय दिलो. ताणें शीलाताईक फोन केलो. प्रकाशबाब ह्या संवसारांत ना हें आयकून ताका वायट दिसलें. आवडलें म्हूण दिलदारपणान कळोवपाचे ताचे संस्कृतायेची लकुबाय दिसली. प्रा. पॉलान मुजरत आपलो संशोधन पेपर म्हाका आनी शीलाताईक ई-मेल केलो. नामनेच्या विद्यापिठांत वाचिल्लो पेपर तो. पेपर कसो आनी सखोल आसचो हाची देख आनी वस्तुपाठ!

आनीक एक अणभव. आकाशवाणीचेर काम करीत बशिल्लों. चारेक वर्सां आदीं. कार्मेल कॉलेजांत शिकोवपी प्रा ग्लेनीस मेन्डोन्सा आयलें. कोंकणी कथांचे इंग्लीश अणकार ह्या विशयांत तें पीएच डी करतालें. म्हज्या अणकारांच्या अणभवांक ग्लेनीसबायन उजाळो दिलो. दुसरे खेपे आयलें तेन्ना आपल्या संशोधन प्रबंधा खातीर म्हज्या ५० कथांच्या अणकार अणभवां विशीं म्हजी दीर्घ मुलाखत घेतली. ताका प्रबंधा खातीर जाय आशिल्ली माहिती दिली. प्रस्नांचें निरसन केलें.

जलालुद्दीन रूमी, जिब्रान, कबीर हांचें काव्य आयज जगभर वेगळ्या वेगळ्या भासांनी अणकारीत जायत आसा. कितल्याशाच शेंकड्यां आदल्या ह्या कवींचें साहित्य कितलें शक्तीशाली आसा हेंवूय हाचे वयल्यान सिद्ध जाता. रूमी कोंकणी भाशेंत हाडपाचे यत्न म्हजे कडल्यान चलल्यात.

कोलकताक रावपी विद्या पै हांणी कोंकणी- इंग्लीश अणकाराचें काम खूब केलां. आनीकूय खूब अनुवादक आसात. प्रादेशीक भाशांतल्या लेखकांची एक खंत म्हणल्यार तांचो वाचकवर्ग (audience) मर्यादीत उरता. खूब जाणां मेरेन आपलो हुंकार पावंक जाय आशिल्लो अशें खऱ्या शब्द- कलाकाराक दिसप साहजीक. कोंकणींतल्यान इंग्लीशींत आनी बाकीच्याय भासांनी आनीकूय अणकार जावप खूब गरजेचें अशें मना पसून दिसता.

तरणाटी पिळगी सक्षम आसा. तांच्यांत जे अनुवादक आसात तांणी ही कला गंभीरपणान विकसीत करची. साहित्य अकादमीचीं हिंदी आनी इंग्लीश नेमाळीं वाच्चीं. तातूंतल्यान अणकार कलेची खोलायेन जाण येतली. कौशल्याक धार येतली. अभ्यास वाडोवचो. कोंकणींतलें साहित्य इंग्लीशींत व्हरचें. इंग्लीशींतलें आनी हेर भासांतलें साहित्य कोंकणींत हाडचें. हे सांस्कृतीक पूल गरजेचे. ते जोडचे. कोंकणी भाशा आनिकूय गिरेस्त जातली.

*(लेखक आसात साहित्यकार, अनुवादक, कोशकार आनी नाटककार)*

संपर्क : 9423056755






# अणकाराचें म्हत्व आनी मर्यादा

**अनंत साळकार**

एके भाशेंतलें साहित्य दुसरे भाशेंत हाडप म्हणल्यार अनुवाद- अणकार. साहित्य हो सर्जक प्रतिभेचो अविश्कार. पूण गायन, नाच, शिल्पकला, चित्रकला ह्या दृक-कलां भशेन भाशेच्या शिमेपलतडीं वचून साहित्याचो आस्वाद घेवपाक मेळना. तो घेवचो आसत तर साहित्य जे भाशेंत निर्मिलां, ती भाशा वाचपाक, कळपाक जाय. कळनाशिल्ल्या भाशेंतलें सकस साहित्य हेर भाशांत हाडपाची वाट म्हणल्यार अनुवाद. अनुवाद करतल्याची कालेत ह्या अनुवादाक भाशांतर, अनुसर्जन, रुपांतर, अनुसर्जन अशी वेगवेगळीं रुपां दिता. अनुवादाचें व्हडपण मूळ साहित्याचो कस तशेंच अनुवाद करतल्याची साहित्यीक जाणविकाय आनी फिशालकायेचेर निंबून आसता.

अनुवादा भितर भाशेचें स्थान फकत अर्थ कळोवपा पुरतें वा संवाद सादपा पुरतें मर्यादीत नासता. त्या उतरांक सौंदर्यशास्त्रीय आयाम आसतात. अनुवाद करपाचो निर्णय आनी उपरांतचें बरोवप हांचे खातीर सारिल्लो काळ हो साबार क्लिश्ट अशा प्रक्रियांचो आसता. जिचो अनुवाद करता ते मूळ संहितेच्या आवांठाक वेंगेंत घेतना मूळ कथेचो झेत आनी कथनाचो पोत सांबाळपाचें आव्हान आसता. पुश्कीन हो रशियन साहित्यीक आनी अनुवादक, अनुवादा खातीर trans-expression हें उतर वापरता. एक कला म्हूण अणकारा कडेन पळयत जाल्यार कांय मुळाव्या नेमांची जाणविकाय आसची पडटा.

अणकाराचो साहित्यीक दर्जो मूळ भाशेंतल्या साहित्याचेर निंबून आसप सभावीक. बऱ्या साहित्याचो बरो अणकार तितलोच गिरेस्त अणभव दिता. अशा अणकाराचें साहित्यीक मोल मूळ साहित्या भशेनच आसता. अणकार ही इतिहासीक संकल्पना म्हणू येता. विशिश्ट काळांत देशांत तयार जाल्लें साहित्य आनी ताचो अनुवाद हांचे मदलें नातें ते काळाच्या साहित्यीक गरजांचेर निंबून आसता. खंयच्याय भाशेंतल्या अणकाराचो इतिहास ते भाशेंतल्या साहित्याच्या इतिहासाचो वेगळावंक नजो असो वांटो जाता.

अणकार हाताळटना दोन प्रस्न उबे रावतात; मूळ संहितेक जाता तितलें लागीं रावप काय वाचकांची अभिरुची मतींत धरून थोडें-भोव स्वातंत्र्य घेवप! ह्या प्रश्नांची जाप काल सापेक्ष आसता. ते काळा वयली साहित्यीक आनी सामाजीक चळवळ अनुवादाची कालेत थारायता. जंय दोनूय प्रस्नांचो सोबीत सुमेळ दिसता तो बरो अणकार, अशें म्हणू येता. अनुवादाचें साहित्यीक मोल खूब वयल्या पावंड्याचें. संवसाराचो ठाव घेवपाक आमका तांची मजत जाता. वाचनाची भोंवडी करून पळोवप शक्य नाशिल्ल्या संवसारांतली लोकजीण, सांस्कृतीक आयाम, तत्वगिन्नान, समाजीक रचनेच्या आदारांत चलतात ते लोकवेव्हार, इतिहास हांचे भान अणकारांतल्यान येता. परकी भाशेंतल्या सर्जनाची कल्पना येता आनी आपले भाशेंतलें साहित्य खंय आसा हाचोय अदमास मेळटा. अणकार आमका विशिश्ट काळांतले लोकजिणेचो प्रवास घडयता, तेन्नाच्या लोकांच्या विचारांची दिशा आनी दशा कशी आशिल्ली, हाची माहिती दिता. जिणेची मुल्यां विशींच्यो वाचतल्याच्यो धारणा घट करपाचें वा विस्कळावन उडोवपाचेंय काम अणकार करता.

अणकाराची सुरवात केन्ना जाली, हाचो अदमास करप भोव कठीण.

अणकारा खातीर खाशेली फिशालकाय लागता. ती सोपी प्रक्रिया न्हय. फकत दोनूय भासांची जाण आसा म्हूण कोण अणकार करपाक शकना. ते खातीर साहित्याची 'उमज' आसप भोव गरजेची. साहित्यीक अणकार आनी क्रमीक पुस्तकांचे वा हेर मजकुराचें भाशांतर हांची तुळा जावपाक शकना. दुसऱ्या प्रकारांत यांत्रीक म्हणपा सारखी कृती आसता तर पयल्यांत भावना घुसपल्ल्यो आसतात. कवितांचो अणकार करतना तर भावनीक आयामांक चड म्हत्व येता. उंचेल्या पांवड्या वयल्या काव्याचो अणकार करपाचे भरीक नामनेचे अणकरपीय पडनात हाचे फाटलें कारण तेंच. मिताक्षरी आशिल्ले कवितेंतल्यान कवी जो आवांठ वेंगायता तो अणकारांतल्यान जशाच्या तसो वाचतल्याक सापडपाची शक्यताय उणी आसता. ज्युस्त उतर सोदप अणकारांत जितलें म्हत्वाचें आसता तितलेंच उतरांचो संतुळीत वापरूय. व्हांवत वचून केल्लो शब्दबंबाळ अणकार, जाणकार वाचतल्याक निराश करता आनी उतरांचे बाबतीतलें खाकनवाळ आसपूय.

दरेके भाशेची आपलीं कांय वैशिश्ट्यां आसतात. लोकजिणे वरवीं समृद्ध जातना आयिल्लें हें खाशेलेंपण दुसरे भाशेंत अणकारीत जातना कश्ट पडून येतात. देखीक 'चक्री विरविरीत जाल्या' ह्या कोंकणी उतरावळींतल्या 'विरविरीत' या उतराचो पोत धरून इंग्लिशींत अणकार करप भोव कठीण. ते ते भाशेंतल्यो म्हणी आनी ओपाऱ्योय स्थळ आनी काळ सापेक्ष आसतात. 'मडवळाचें मडें भायर हाडटा तेन्ना कळटा!' हे ओपारेचो भावार्थ आसा तसो इंग्लिशींत कसो व्हरतले? अणकार म्हणजे एके भशेन केल्लो परकाया प्रवेशूच.

कविते परसूय चड कश्ट कादंबरी अणकारांत पडू येतात. कादंबरीचो विस्तार वेगळीं नांवां- मनशांची, स्थळांची- आसपावन घेता. ही नांवां बदलप शक्य नासता. पूण तेच बराबर वाचतलो घुसपूचो ना हाची जतनाय घेवप गरजेचें आसता. 'पणजेंत भोंवतना तो मदींच ताळगांव आनी बांबोळे पासय मारून आयलो.' ह्या उतरावळीचो अणकार जर मळयाळम भाशेंत करचो जालो तर ताळगांव आनी बांबोळेचो वाठार पणजेक कितलो लागी आसा तेंय सांगप गरजेंचें जाता. अणकार करतल्याक ती जाण नासत तर अणकार फसूंक येता.

मूळ संहितेचो 'सभाव'आसा तसोच दवरून अणकार करप भोव गरजेचें. दोनूय भाशांतल्यान वाचतल्यांक मूळ साहित्याच्या वाचनाचो अणभव अणकारांतल्यान मेळपाक जाय. खंयचेय साहित्य ही बरयतल्याची 'उत्कट अभिव्यक्ती' आसता. ती उमळशीक जर अणकारांतल्यान दिसना जायत तर ताचो पांवडो सकयलो म्हणचें

पडटलें. चड करून इंग्लिशींतल्यान भारतीय भाशांत अणकार करतल्यांनी हे नदरेन चड जतनाय घेवपाची गरज आसा. हालीसराक इंग्लीश बेस्टसेलर्सांचो अणकार-करपाचें सत्र सुरू जालां. हॅरी पॉटर सिरीज वा सिडनी शेल्डन हांच्या सारख्या कादंबरीकारांच्यो 'फास्ट पेस' आशिल्लो कादंबऱ्यो आपले भाशेंत हाडपाची उमेद अणकार करतल्यांक आनी उजवाडायतल्यांक आसप गैर न्हय. पूण मूळ इंग्लीश वाचतल्याक- आनी अशे वाचतले असंख्य आसात- जर तोच अणभव अणकारांतल्यान मेळ्ळो ना, जाल्यार तांची निराशा जातली. मूळ बरयतल्याची कालेत वळखुपाची तांकूय अणकार करतल्या मदीं आसपाक जाय. तरूच तो अणकार सरस जातलो. हांगाच चड अडचणी येतात. देखीक 'बाळाच्या कुंचीला माजघरातील अंधाराचा वास येत होता.' हें मराठी लेखक जी. ए. कुलकर्णी हांचे एके कथेंतलें वाक्य ताच्या दृश्य आनी अदृश्य अर्थां सयत खंयचेच युरोपी भाशेंत वचप शक्य ना.

भाशेचो विकास आनी साहित्यांतली गिरेस्तकाय हांचो जसो लागींचो संबंध आसता तसोच तो अणकारांचे समृद्धताये कडेनूय आसता. भाशीक उदरगतीच्या एका पांवड्यार हेर भाशांतले बरें साहित्य आपले भाशेंत हाडपाची गरज हाडाच्या भाशा मोग्यांक दिसपाक लागता. एके तरेन परकी आनी आपलें हांचे मदीं तुळा करून आपलो पांवडो वाडोवपाची ही उमळशीक. ती उत्पन्न जातली जाल्यार ते भाशेंतली साहित्यीक चळवळ अश्टांगी आसपाक जाय आनी गतीमानूय. हे नदरेन आमची भाशा भगिनी मराठी कडेन कोंकणीची तुळा करूं येता. मराठीचो वाचकवर्ग खूब व्हडलो, तिची साहित्यीक परंपराय खुबूच जाणटी. ताका लागून अणकारांचे प्रमाणूय खूब व्हडलें. सगळे तरेचें साहित्य प्रकार मराठींत अणकारीत जाल्यात, जायत आसात. अभिजात साहित्या पसून वयर जांचे विशीं बरयलां त्या विक्रेची मोख दवरून बरयिल्ल्या 'बेस्टसेलर' साहित्या मेरेन मराठींत अणकार जाल्लें साहित्य आसा. पुण्या-मुंबय कडले कांय प्रकाशक तर अणकारा खातीर खाशेल्या अणकार करप्यां कडेन संबंध दवरून आसतात. मर्यादीत प्रतींची आवृत्ती काडप आनी 'वेल ऑयल्ड' वितरण वेवस्थे वरवीं ती खपवप हें ह्या प्रकाशकां खातीर नवें न्हय. कोंकणीत असो यत्न करप शक्य ना. ते भाशेचो आवांठ खुबूच ल्हान, ते भायर लिपींची तोंटां- बेटां. सगळ्यांत व्हडली मर्यादा म्हणल्यार वाचतलेच खूब उणे आसात. प्रकाशन वेवसायांत फाटलीं साबार दसकां आशिल्लो एक प्रकाशक म्हाका सांगतालो, 'कोंकणींत उत्पन्न मेळोवन दिवपी म्हजे कारकिर्दींतली एकमेव निर्मणी म्हणल्यार शब्दकोश; तोय विद्यार्थ्यांची गरज म्हूण खपता!' अशे परिस्थितींत अणकारांच्या उत्फर्क्यांचे कितें जातलें, हाची कल्पना करूं येता.

अभिजात साहित्याचो अणकार करपाचें काम 'साहित्य अकादेमी' आनी 'नॅशनल बूक ट्रस्ट' अश्यो कांय संस्था मुखार व्हरतात. तांच्या वावराक हेर भाशांतल्यान जितलो प्रतिसाद मेळटा तितलो कोंकणींतल्यान मेळना. कोंकणी साहित्याचो अणकार हेर भाशांतल्यान जाल्ल्याच्यो देखीय साप्प उण्यो. हाचे फाटलीं कारणां साबार आसात. अणकारांची कूड समृद्ध करून कोंकणींतले साहित्यीक चळवळीक गिरेस्त करूं येता, हाचें भान कोंकणी मनशाक जाय तेन्ना आयलेंच ना, हे तातुंतलें सगळ्यांत म्हत्वाचें कारण. एका नामनेच्या बरोवप्यान आपलें नाव छापचें न्हय म्हूण दिल्ली प्रतिक्रिया खूब कितें सांगता, 'कोंकणीक वेळे पयलींच खूब कितें मेळ्ळें. आमच्या बरोवप्यांक साहित्यीक संघर्श करचे पयलींच पुरस्कार आनी मान- सन्मान मेळ्ळे. ताका लागून तृप्तीची सया आमच्या आंगभर पातळ्ळ्या!' हेर भाशेंत कितें जाता, ताची जाणविकाय आशिल्ले साप्प थोडे आनी हे विंगड प्रयोग कोंकणीच्या वाचप्यां मुखार अणकारां वरवीं दवरपाची उमळशीक आशिल्ले तर मूठभर लेगीत नात. चड पयस वचपाची गरज ना, शेजराक कर्नाटकांत कन्नड भाशेंतल्यान गडगंज बरवप जाता. थंयचीं भैरप्पा, अनंतमूर्ती, कारंथ, कार्नाड ही नांवां आमच्या कानार पडत आसतात. ह्या लेखकांच्या साहित्याचो हिंदी- मराठी अणकारूय आमचे मदले वाचतात. पूण तें कोंकणींत हाडपाचे उमेदीन वावुरतल्यांचो दुकळूच. फायद्याचें गणीत गोंयच्या प्रकाशकांकूय अशा यत्नां पसून पयस दवरता. ते भायर आयज मेरेन जाल्ल्या अणकारांचो दर्जो हो लेगीत एक म्हत्वाचो मुद्दो. कोंकणी बरपाचो हेर भाशांनी अणकार करच्या वेळारूय हो, दर्जाचो प्रश्न उपरासता.

अणकारांतलें सातत्य वाडोवपाचें आसत तर वेगळ्या वेगळ्या पांवड्या वयलें सांस्कृतीक आनी साहित्यीक आदानप्रदान जावप गरजेचें आसता. हेर भाशांतले साहित्यीक उत्सव, पुस्तक प्रदर्शनां हांचे गोंयांतल्या बरोवप्यांक आनी प्रकाशकांक कितलें अप्रूप आसा, हो अनुत्तरीत प्रस्न. कोंकणींतलें आपलें साहित्य हेर भाशांनी वच्चें म्हणून लेखक आनी प्रकाशकांनी यत्न करप, हेर राज्यांनी भोंवडी करून थंयचे लेखन आनी प्रकाशन प्रक्रिये कडेन संबंध दवरप, आपले विशींची माहिती हेर भाशांतल्या साहित्यविश्वा मेरेन पावोवप आयच्या युगांत भोव गरजेचें. हेर प्रदेशांतले साहित्यीक वेव्हार गोंयकारांनी समजून घेवपाक जाय. गोंयची कोंकणी आयज ह्या प्रदेशांतल्यान आयिल्ले स्थलांतरीत बरे भशेन उलयतात. हे लोक ते – ते वाठारांतल्या साहित्यीक चळवळी कडेन आमची वळख करून दिवपी साधन जावं येता. स्थलांतरितांचो हो लाव घेवपाची बुद्द आमचेय तकलेंत रिगूंक जाय. साहित्या बराबर जांकां गिन्नान शाखा म्हणतात, तांतलेंय बरप कोंकणींत येवपाक जाय. संशोधन, समिक्षेक अणकारांत आसपावन घेवपाक जाय. फकत उथळ साहित्याचो अणकार केलो म्हण भागचें ना.

परकी भाशेंतलें उत्तम साहित्य वाचून तें आपणाले भाशेंत हाडपाची उमळशीक लागली तरूच अणकार घडटले. आयज गाब्रिएल मार्केझ, हारुकी मुराकामी, खलिद हुसेनी, हमीद इस्मायलोव्ह, ओल्गा तोकार्कझूक हांच्या साहित्याची लोकप्रियता आनी नामना भाशेच्यो मेरो हुपून संवसार भर गेल्या. तांचें बरप कोंकणींत कित्यात येना? ते खातीर जाय ती, अणकार करतल्यांक आनी प्रकाशकांक मानवता अशी वेवस्था जाग्यार घालचे खातीर कितें जावपाक जाय? कोंकणी मनीस आनी ताणें वेंचून दिल्लें सरकार हाचेर विचार करतली काय?

*(पान २५ चेर)*

# अणकार क्षेत्र आनी हांव

डॉ. जयंती नायक



अणकाराचें कार्य करतले व्यक्तीक सगळ्यांत पयलीं आपले मातृभाशे शिवाय दुसरी भाशा बरे तरेन वाचूंक, बरोवकं, उलोवंक येवंक जाय. इतकेंच न्ही तर ह्या भाशा कडेन संबंदीत संस्कृतीय बरे तरेन उमजूंक जाय. कोंकणी ही म्हजी मातृभाशा म्हणटकच ती म्हाका बरे तरेंन येता हातूंत दुबाव ना, पूण म्हाका कोंकणी शिवाय मराठी, हिन्दी ह्योवूय भासो बरे तरेन येतात अशें हांव मानतां. इंग्लीश कळटा, पूण ती वेव्हारा पुरती. इंग्लीशीचेर म्हजें प्रभूत्व ना हें हांव प्रामाणीक पणान मान्य करतां. मराठी आनी हिन्दी ह्या दोनय भाशांनी हांवें पदवी मेरेनचें वा पदव्युत्तर बी शिकप घेतलां अशेंय न्ही. हिन्दी भास हांव पांचवी ते धावी वर्ग मेरेन शिकलां तर पयली ते बारावी मेरेन मराठी विशय शिकलां. पूण मराठी आनी हिन्दी भाशांचेर हांवें पकड मेळयली ती अवांतर वाचनान. मराठींतलें भरपूर साहित्य वाचलें. हिन्दींतय बरेंच वाचन जालें, खास करून कॉलेज काळार . तेन्ना पोस्टान पॉकेट बुक्स मागोवन तें वाचपाचें एक फॅडच लागिल्लें. राजवंश, रेणू (आनीक नांवां आतां याद जायनात) हांच्यो जायत्यो लोकप्रीय कांदबऱ्यो कॉलेज काळार वाचल्यो आनी हिन्दी भाशे कडेन इश्टागत केली. पूण १९९२ मेरेन हांव अणकारक जातलें वा अणकाराचें कितेंय कार्य करतलें अशें हांवें सपनांतय येवजिलें नाशिल्लें. जश्यो लेखक, लोकवेद संशोधक, नाटककार बी भुमिका म्हाका अनपेक्षीत पणान येवन चिकटल्यो तशीच अणकारक हिवय भुमिका म्हज्या ध्याना-मनाक नासतना म्हाका येवन दसली.

हांवें पयलो अणकार केलो तो हिन्दी भाशेंत. म्हाका घट याद आसा, १९९२ वर्सा नामनेचे हिन्दी साहित्यीक श्री. कमलेश्वर हांच्या संपादना खाला 'भारतीय कथा शिखर कोश' माळेंत 'कोंकणी कहानियाँ' नांवाचें संग्रह प्रकाशीत जाल्लो आसा. ह्या कोशाचें काम प्रकाशनाच्या सुमार दोन वर्सां आदीं सुरू जाल्लें. उपरांत तांच्या भलायकेच्या कारणाक लागून श्री. चंद्रकांत बांदिवडेकार हांणी तें पुर्णत्वाक व्हेलें. ह्या संग्रहा खातीर म्हजी 'जीत' नांवाची कथा संपादकान निवडिल्ली. तांचें म्हाका ते संबंदान पत्र आयलें, त्या पत्रांत तांणी गोंयच्या तीन अणकारांचीं नांवां दिल्लीं, आनी तातुंतल्या कोणाय एकट्या कडल्यान कथेचो परस्पर हिन्दींत अणकार करून कथा धाडची अशें सुचयिल्लें. पूण हांवें जेन्ना तांचे कडेन संपर्क सादलो तेन्ना एकटोय अणकारक ती करूंक तयार जालोना. तांणी कितें तरी कारणां सांगलीं. हांव खूब विरूस जालें. कितें करचे तें म्हाका सुचनाशिल्लें. हांव तेन्ना नवोदीत लेखक, नव्यानच अकादेमींत नोकरेक लागिल्लें. चड कोणाक वळख नाशिल्लें. ऑफिसांत हांव तोंड येदेशें करून बसलां तें पळोवन अकादेमीचे तेन्नाचे सचीव श्री. वि.म.धुमे हांणी म्हाका विचारलें, कितें जालां, वोगीच बसलां शें? जेन्ना हांवें तांकां खरी खबर सांगली. तांणी म्हणलें, तूंच कित्याक करना, तुजे कथेचो अणकार? तुजी कथा गांवगिरे बोलयेंत आसा, तूंच तिका बरो न्याय दिवंक शकतलें!



इतकें सांगून ते रावले नात तांणी आपलें ड्रॉवर उगडून श्रीपाद जोशी हांचो 'हिन्दी-मारठी-हिन्दी आनी मराठी -हिन्दी शद्बकोश काडून म्हाका दिलो आनी सांगलें, हो तुका खूब उपकाराक येतलो. तांचें सांगणें हांवें आयकलें आनी म्हजे कथेचो हांवेंच अणकार केलो. उपरांत सरांचेच सांगणे वेल्यान तो हांवें व्हरून लिलाताईक (स. लिला गायतोंडे) दाखयलो. लिलाताईन म्हजी खूब तोखणाय केली आनी गरज थंय सुदारणाय केल्यो. तो अणकार उपरांत त्या संग्रहांत छापून आयलो. मात लेखकानच अणकार केल्लो आशिल्ल्यान, अणकारपी म्हण म्हजें नांव थंय ना, आनी चडशा कोणाक तो हांवें केल्ल्याची म्हायतीय ना. ह्या अणकारा वरवीं म्हजी अनुवादक यात्रा सुरू जाली. १९९२ ते २०१९ मेरेन हांवें कोंकणी भाशेंतल्यान हिन्दी वा मराठींत आनी मराठी, हिन्दी तशेंच इंग्लीश भाशांतल्यान कोंकणींत जायते अणकार केल्यांत. हे मदीं कथा-कविता, लेख, लोकवेद निबंध, बालसाहित्य, लोकगितां, लोककथा. हांचो आसपाव आसा. आकाशवाणी खातीर कितकीशींच नाटकां-कवितां हेर भाशांतल्यान कोंकणींत अणकारीत केल्यांत. म्हजी स्वताचीं दोन नाटकां, लोकवेद लेख, कथा आदीं हांवें मराठी, हिन्दी भाशेंत अणकारीत केल्यांत. रुद्रेश्वर पणजी हे संस्थेक कला अकादमीच्या नाट्य सर्तींत स्टेज करपा खातीर हांवें 'विसर्जन' (मूळ- बंगाली-रवींद्रनाथ टागोर) आनी 'बळी' (मूळ कन्नड-गिरीश कर्नाड) हीं दोन स्वंतंत्र नाटकां कोंकणींत अणकारीत केल्यात. हातुंतलें 'विर्सजन' हें नाटक अनुवादीत करपा खातीर हांवें हिन्दी अनुवादाचो आदार घेतला, तर बळी खातीर मराठी. हो जालो सर्जनशील अनुवाद, पूण अकादेमींत कार्यरत आशिल्ल्यान कितल्याश्याच तंत्रीक साहित्याचो कोंकणींत वा कोंकणींतल्यान हेर भाशेंत हांवें अणकार केला.

मात आतां मेरेन म्हजीं १. 'सोरपाची करामत' (Org. Eng. The Snake trouble, by Raskin Bond, Pub- NBT), २. विसर्जन (मूळः. बंगाली नाटक- 'विसर्जन', रविद्रनाथ टागोर, प्र. राजाई प्रका.) , ३. जिन्दगीनामा- 'एक जिवो रूख' (मूळ-हिन्दी, जिन्दीनामा-एक जिन्दा रूख-मूळ कृष्णा सोबती, प्रका. साहित्य अकादमी) हीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. ह्या सगळ्या अणकाराच्या वावरा मदीं 'जिन्दगीनामाक'

अग्रस्थान मेळटा. हें अग्रस्थान ह्या पुस्तकाक साहित्य अकादेमीचो अनुवाद पुरस्कार २०१९ फावो जालो म्हण न्हय तर हो वावर म्हजे भितरले प्रज्ञेक आनी सर्जनशिलतायेक एक आव्हान आशिलें. ह्या पुस्तकाच्या वावरान म्हाका अणकारक हे नवें बिरूद दसयलें. जिन्दगीनामाचे आदी कोंकणी क्षेत्रांत म्हजी वळख एक कथाकार, नाटककार, लोकवेद संशोधक, कोंकणी कार्यकर्तो इतकीच आशिल्ली. हांवें वयर उल्लेखला तो अनुवादाचो इतको वावर करूनय म्हाका कोण अनुवादकाचे वळेरेंत आसपावन घेनाशिल्लो. जिन्दगीनामाक लागून आतां हे वळेरेंतल्यान कोणाक म्हाका टाळूंक मेळचेंना.

हिन्दी क्षेत्रांत जिका अत्यंत कठीण लेखिका मानताता, त्या नामनेची साहित्यीका कृष्णा सोबती हिच्या जिन्दगीनामा हे कादंबरीचो कोंकणी अणकार करपाचो प्रस्ताव म्हाका खासा साहित्य अकादेमी कडल्यानच आयिल्लो, तो जेन्ना आयलो, तेन्ना म्हाका कृष्णा सोबती आनी तिच्या साहित्या विशीं चड कांयच खबर नाशिल्ली. गोवा कोंकणी अकादेमीन तिच्या ऐ लडकी ह्या धाकटुल्या कांदबरीचो 'बाय गो' ह्या नांवान पुष्पा पै हिणें केल्लो अणकार प्रकाशीत केला, तितकोच हांवें वाचिल्लो. ताचे वयल्यान म्हाका दिसलें, हो वावर सोपो आसतलो म्हण. आनी स्वता विशीं अती आत्मविस्वास आशिल्ल्यान हांवें पुस्तक न वाचतां, न जाणता, साहित्य अकादेमीक म्हजी स्वीकृती धाडली. मात प्रत्यक्ष अनुवाद सुरू करपाक जेन्ना हांवें पुस्तक हातांत घेतलें तेन्ना म्हाका घाम फुटलो. एक तर गोंयचे वा कोंकणी संस्कृती परस सामके वेगळे अशे सांस्कृतीक - सामाजीक फांटभूंयेचेर ती कांदबरी उबी जाल्ली, दुसरे म्हणल्यार ते कादंबरीचो विस्तार अफाट आशिल्लो. हिन्दी समिक्षकांचे भाशेंत सांगपाचें जाल्यार ही कादंबरी कितरल्याश्याच बिंबांतल्यान उबी जाल्ली. एकदम विलक्षण अशी ही कादंबरी. तातूंत कोण एक नायक - वा नायिका ना पूण दर एका पात्राच्या माध्यमांतल्यान ही कादंबरी आकाराक येता. जिणेचो दर एक पैलू हे कादंबरींत आसा. वयर वयर पळोवपाक पंजाबांतल्या एका गांवच्या सामाजीक फाटभुंयेचेर आनी इतिहासाचेर ही कादंबरी आसा, पूण खरेपणी तातूंत पुराय भारतवर्षाचो इतिहास आनी समाज जिवन लिपलां. चनाब आनी जेहलम न्हंयो हुंपून ज्या ज्या राजसत्तांनी हिन्दूस्थानाचे भुंयेर पांय दवरलो आनी थंयचें जनजिवन उध्वस्त केलें त्या सगळ्यांच्या आक्रमणांचो - घुरयांचो इतिहास तातूंत आसा. हातूंत क्रांतिकाऱ्यांचीं आंदोलनां आसात, सैन्यांनी जीव पणाक लावन केल्लीं युद्धां आसात, तरसादींचो खणखणाट आसा, स्वताच्या फायद्या खातीर केल्लीं कुटकारस्थानां आसात. धनाच्या- सत्तेच्या आशेन केल्लीं फितूरी आसा.

कादंबरीचो काळ हो सत्तर-ऐशीं वर्सां पयलींचो. तेन्नाच्या पंजाबाच्या सगळ्या जाती-जमातीची जीण हे कादंबरींत आयल्या. आडवादानच एखाद्रो कोण उरला आसत. हातूंत जट्ट (जाट) आसात, शाहा आसात मौलवी आसा, पांदो आसा, धिंवर आसा, मिराशी आसा, मुंशी आसा, नटनी आसा, कंजरीण आसा, भंगी आसा,साँशी आसा, फिरंगी आसा, औरंगजेब आसा, खालसा आसा, वाहेगुरू आसा, अल्ला आसा, वराहमिहिर आसा आनी छज्जू भगतय बी आसा. हातूंत लोहडी आसा, त्रिजन आसा, बरही (बारसो) आसा, श्राद्ध आसा, शादी आसा आनी मँगनी बी आसा. हातूंत बुल्लेशाहाची पोथी आसा हिर आसा, लोरी (आल्लय) आसा आनी शादीची घोडी (लग्नांतल्यो होंवयो) आनी आर्याचें भजनय आसा. हातूंत तरणाट्यांचें प्रेम आसा, मोग्यांचो विरह आसा, आवयची ममता आसा, घोव-बायलेचो विस्वास आसा, म्हामारी आसा, जादू आसा, गाळी आसात, आनी जेवण-खाणय आसा. जाटांची देशभक्ती आसा, शाहाची सत्ता आसा, कंजरिणींचें नाच-गायन आसा... हातूंत कितें ना हेंच एक कुवाडे. दर एके जातीची वेगळी बोली, दर एका समाजाची आगळी संस्कृती, वेगळी वळख. हे कादंबरीच्या अर्पण पत्रिकेंत कृष्णा सोबतीन बरोवनच दवरलां की, हें पुस्तक एक इतिहास आसा, पूण हो इतिहास जो पुरातत्व विभागांच्या दस्तावेजांनी बंद आशिल्लो इतिहास न्ही तर लोकमानसाचे भगिरथी वांगडा शेंकड्यांनी वर्सां सावन व्हांवत आयिल्लो आनी जनमानसाच्या सांस्कृतीक अणभवांतल्यान जिवो उरिल्लो इतिहास आसा.

४०० पानांचे हे कादंबरीच्या विशाल परिवेशांत साबार धर्म, साबार तरेच्यो जाती-जमाती आसात, त्या दरेकाच्यो वेग-वेगळ्यो बोलयो, जिवन पद्धती वेगळ्यो, वेगळें खाशेलेंपण. म्हणपाक हें पुस्तक हिन्दी भाशेंतलें, पूण ग्रामीण भाशा. शिवाय उर्दू, फारसी आनी तुर्की भाशेचो खूब प्रभाव.

सुरवेक सुमार वर्सभर हांव तें पुस्तक हातांत घेतालें आनी सकल दवरतालें. तातुंतलें कितेंच म्हजे तकलेंत वचनाशिल्लें. वाचपाचो यत्न केलो की तकली घुंवूंक लागताली. कोण जाणा तें पुस्तक पळयतनाच म्हजी कपलाची शीर उसळूंक लागताली. खंयची झक मारली आनी हो असान्मेंट घेतलो अशें जातालें. तोवेर म्हाका कळ्ळें, कोंकणींतल्या एका जेश्ट लेखकाक हो असान्मेंट आयिल्लो, ताणें तो जमना म्हण परत केलो म्हण. तेन्ना म्हज्याय मनांत जालें, तो परत करया म्हण .पूण जिणेंत कसलेय गजालीक हार मानपाची म्हाका सवय नाशिल्ली. ह्यावूय वेळार बें म्हणूंक अंतरात्मो तयार जालो ना. ताणें म्हाका शिटकायलें, हे पुस्तक जिखतले जाल्यार ताचेर पयली प्रेम कर. मन एकाग्र करून तातूंत रमपाचो यत्न कर.

म्हज्या अंतरआत्म्याचें सांगणें हांवें आयकलें, आनी कितें सांगूं, जादूची बडी घुंवडायिल्लेंवरी सगळें चित्रच बदल्लें... तातुंतली पात्रांच आतां म्हजेर प्रेम करूंक लागली. तातुंतली शाहनी, माँबीबी, महरिकाकी, करतार, बरकती, राबिया, शाहजी, निक्की बेबो, वड्डे लाला, आलिया, लालिशहा... कितलीं नांवां सांगूं ...सगळीं जाणां म्हजे कडेन उलोवंक लागलीं... आपली कथा म्हाका कोंकणींतल्यान सांगूंक लागलीं. फकत मनशांच न्हय तर पंजाबाचे पर्वत आनी न्हंयोंय म्हजे कडेन उलोवंक लागल्यो. थंयची दरेक खबर, दरेक घडणूक, दर एक मिथक म्हाका कथन करूंक लागलीं आनी हांव बरयत गेलें... बरयत गेलें... अशे तरेन 'जिन्दगीनामा' कोंकणी जायत गेलो... कोंकणी जायत गेलो...

एक गजाल खरी की पंजाबी संस्कृती विशींचीं बरीच पुस्तकां हांवें ह्या संदर्भान वाचलीं, जायते शब्दकोश हाताळले. लोकसंस्कृतीच्या

संशोधिकेची म्हजी भुमिका म्हाका हांगा बरीच उपकाराक आयली. ह्या दिसांनी एखाद्रो पगडीवालो सरदारजी जर बसींत दिसलो तर हांव मुजरत ताचे लागीच्या सिटार वचून बसतालें आनी मागीर निमित्या काडून ताचे कडेन उलयतालें, पंजाब-पंजाबीची म्हायती ताचे कडल्यान मेळोवपाचो यत्न करतालें. 'जिन्दगीनामा'ची जणू धुंदीच म्हाका त्या काळार चडिल्ली. घरांत -भायर हांव ताचेरच उलयतालें. ताचे विशींच चिंतालें.

ऑफिसियली हो असान्मेंट हांवें दोन वर्सांत पुराय केलो, पूण ताचें खरें काम हांवें तीन म्हयन्यांत केलें. ते खातीर हांवें सुटी घेतिल्ली आनी हांव नावेले डिस्ट्रीक्ट लायब्ररींत सकाळीं णव ते सांजे सात मेरेन बसतालें. मदीं फकत अर्दवर जेवपाक उठ्ठालें. मुद्दाम सांगूंक जाय, पणजेच्या मध्यवर्ती वाचनालयाचे संग्रहपाल श्री. कार्लुश फेर्नांडीस हांणी म्हजी चवथ्या मजल्याचेर कामांत कोण व्यत्यय हाडचो ना अश्या जाग्यार बसपाची वेवस्था करपाची सुचोवणी थंयच्या मुखेल्याक दिल्ली. तांचें हांव उपकारी. तशेंच खास बरोवपा खातीर सुटी मंजूर केल्ले खातीर गोवा कोंकणी अकादेमीचेय ह्या वेळार उपकार आठयतां.

'जिदगीनामा'च्या अणकारान म्हाका जिणे विशींच्या समग्र ज्ञानान समृध्द केलें. म्हज्या मौलीक पुस्तकांच्या लेखना परसय अदीक चड सृजनाचो आनंद दिलो. साहित्य अकादेमीच्या पुरस्कारान त्या दुदांत आतां साखर पडली. कोंकणी कला साहित्य केंद्र, कुडचडे हे संस्थेनय अनुवादाचो भोवमान ह्या अणकाराक दिवन ताची दखल घेतली. ह्या सगळ्यां परस वयलो सन्मान अशें जाका मानूंक जाय तो म्हणल्यार कृष्णा सोबतीची ताका फावो जाल्ली तोखणाय आनी कौतूक. कृष्णाजीक जेन्ना भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार जाहिर जालो तेन्ना हांवें तांकां एक अभिनंदन पर पत्र बरयलें, जातूंत, 'जिन्दगीनामा' हांवें कोंकणीत अणकारीत केलां हाचो उल्लेख केल्लो. पत्र पोस्ट केलें, ताच्या पांच-स दिसां उपरांत म्हाका दिल्लीच्या तिच्या घरांतल्यान एक फोन आयलो. सुरवेक बिमला नांवाची एक बायल उलयली, तिणें सांगलें, 'आप जयंतीजी है ना? ...माँजी आपसे बात करना चाहती है।' हांव खरें अजापांतच पडलें. हांवें सपनांतय चिंतलें नाशिल्लें की कृष्णा सोबती म्हाका फोन करतली आनी हांव तिचे कडेन उलयतलें म्हण. तिचे कडेन कितें उलोवप, कशें उलोवप ह्या येवजणेनच म्हजें काळीज धडधडूंक लागलें आनी मागीर रोकडोच जिणेची णव्वदी हुंपिल्ले कृष्णाजीचो धीरगंभीर आवाज कानार पडलो. नमस्कार-प्रणाम जाले उपरांत ती फकत एक वाक्य उलयली, क्या आपने जिन्दगीनामा का कोंकणी में अनुवाद किया है क्या? (हांव : हां ) मुझे उसकी एक प्रति भेज दिजिए !

तिच्या त्या एका वाक्यांत म्हजे विशींचें कौतूक आनी तोखणाय दोनय लिपिल्ली. म्हजे खातीर तोच व्हडलो पुरस्कार आशिल्लो.

संपर्क : 9823575623

# ‘कुल्ल्यो, शेंवटाळ्यो आनी शेतकां’ - एक चिंतन!

गोपाळकृष्ण भोबे (अणकार: सखाराम शेणवी बोरकार)

दारांत आयिल्ल्या नुस्तेकात्रीक हांव बेश्टेंच म्हण मोल विचारतां आनी कदीम काळासावन थारावन सांगिल्ल्याभशेन ती नुस्तेकात्र जाप दिता- पापलेट सवाय रुपया, सुंगटांचो वांटो बारा आणे, वेंतभर कल्लेचो बाळो सवाय रुपया, पंदरा-वीस तिसऱ्यांचो वांटो आठ आणे आनी कुल्यांची जोडी देड रूपया.

तिणे सांगिल्ल्यो त्यो दरो आयकून म्हाका तिडक येता. हांव दार बंद करुन तिका वाटेक लावपाच्या तयारेक आसतां; पूण भितरसून कांकणांच्या विचित्र आवाजा सांगाताक तिरसुवाद आवाज कानार येता, "पाडपडिल्ले कितले दीस म्हण शिवराक जेवपाचे तें? आपूण कांय बाजारांत वचना आनी दारांत आयलां तेंवूय घेवपाचें नां!"



"आगो! सामकी किरप कश्या सुंगटांचो वांटो बारा आणे आनी फस्काच्या आकारा परस ल्हान कुल्ल्यांची जोडी देड रुपया! आमच्या गांवांत..."

"हय, हय खबर आसा तुमचो गांव! तुमचो गांव उल्लो दोनशें कोसांचेर! ‘म्हज्या मामागेर बारा म्हशी आनी हांव काडटां उठाबशी’ तसल्यांतली तुमची गत!" "राव गे! नुस्तेकात्री..!" आनी आमगेली तिच्या कडेन कसलीं वांटपणां करता देवाक खबर! त्या दीसा पानांत पडिल्ल्या कुल्ल्यांच्या दांग्याचीं चिपटां हांव तोंड धांपून खातां; पूण मन मात आदल्या दिसांच्या यादीनीं घुस्पता. देड रूपयाक पाटलेंभर आनी शंबर लोकांक पावता इतल्यो कुल्ल्यो हाडटलों आसलों; पूण देड रुपयाची तरी कसली गरज आसली? वोल्तेरार बसल्या-बसल्याच म्हज्या दोळ्यां सामकार भिंवरो दिसूंक लागता.

"चल भिंवऱ्या कुल्ल्यांक येता?" अशें म्हळें कीं भिंवरो आपली तांबड्या कोराची काश्टी घट्ट खोवून, हातांत पारय आनी बाकीचीं आयुधां घेवन धांवत येतालो. आमच्या घराच्या फाटल्यानच सात आठ फर्लांगाचेर आशिल्ल्या न्हंयच्या देगेर आमी वतात. माडाच्या ल्हानशा कवथ्याच्या मधल्या भागाचे, भिंवरो आपल्या धारेच्या कोयतेन लांबचे लांब वावळ्यो काडटा. त्यो वावळ्यो व्हाळांतल्या खाऱ्या उदकांत भिजोवन त्यो मोव करुन ताचे हांव दोर करपाक घेतां. इतल्यान भिंवरो खंयच्यान तरी चार-पांच बेबकां मारून हाडटा. तांचे कुडके करुन तो त्या वांवळ्याच्या दोरयेक घट्ट बांदता. ताका वेंत - वेंत अंतराचेर एक एक फातर बांदता. निकतीच भरती कोमेस जाल्ली आसता. उदक इंचा गणीक चडत आसता. आमी न्हंयचे देगेर मागीर हांयस



बांदिल्ल्या दोरांतलो एक-एक दोर घेवन, पंदरा -पंदरा हाताच्या अंतराचेर न्हंयचे देगेर आशिल्ल्या फातरांक बांदून ते मागीर न्हंयच्या उदकांत सोडटात. भिंवरो लागींच आशिल्ल्या पिंपळा झाडाकडेन वचून हात जोडटा आनी कितें तरी पुटपुट्टा. धायेक मिण्टांत दोर ताणटात- झाऱ्याच्या आकाराचें ताका मात्शी खोल जाळी आशिल्लें कोबलें म्हज्या हातांत आनी दुसरें भिंवऱ्याच्या हातांत. सवका सवका ताणिल्लो दोर ओडून हांयस खावपाच्या येत्नांत आशिल्ले कुल्लेक हळू - हळू कोबल्याच्या तोंडा मेरेन हाडून, सट्ट करुन हांव कोबलें उदकांतल्यांन वयर उखलतां. आपले धा पांय आपटीत कुल्ली जाळ्यांतल्यान सुटपाचो येत्न करता. इतल्यान आपणेय धरिल्ली कुल्ली घेवन भिंवरो धांवत धांवत म्हज्या म्हऱ्यांत येता. म्हजे हात कडकडटात. दोनय कोबलीं हातांत घेवन सप्प करुन भिंवरो तीं जमनीर उरफाटीं करता आनी मोठ्या कुशळतायेन कुल्लेच्या फाटीर आपल्या पांयाचो आंगठो दामून तीचे चाबकुरे आनी मनशांचे हात फोडपी दांगे कटकटीत मोडटा आनी उरिल्या आठ पांयाच्या कुल्लेक कांय न्ही करुन उखलून तो साकांत घालता.

परतेय उरिल्ले दोर ताणिल्ले कशे दिसतात. भरती हळू-हळू वाडत वता. हांव ओडटा त्या दोराक कोबल्याच्या तोंडाकडेन हाडटां; आनी म्हजो जीव थरथरपाक लागता. कुल्ले वांट्यांचें हिचणांन हांयसाक धरिल्लें आसता. व्हडल्या व्हडल्यान हांव भिंवऱ्याक उलो मारतां. भिंवरो धांवत येता. कोबलें उरफाटें करुन तागेल्या दांड्यान हिंचणाचे तोंडार धपके घालून हांयस सोडयता. आपले मोतयां सारके दांत दाखयत हांसत तो म्हण्टा,

"हिंचणाक भियेताय बामणां?"

आतां भरती पुराय जाल्ली आसता. बऱ्योच कुल्ल्यो एकठांय जाल्यात; पूण भिंवरो सातिश्फ़ेद नां. सगळ्या कुल्ल्यांक ताणें बारिकसाणेन पळयिल्ल्यो आसतात. पूण लाखेची कुल्ली आमकां मेळिल्ली नासता.

"पाडपडल्ल्यो सगळ्यो दादले कुल्ल्यो!"

"दादले कुल्ल्यो कश्यो वळखुपाच्यो?" हांवे भिंवऱ्याक विचाल्लें.

"हेंऽऽ तांतूत कितें व्हडलेंशें?"

"आरे! दादलो म्हळो की ताच्या पोटार हें अशें त्रिकोनी पान आसता आनी बायलेच्या



जाप कशी तरी दिवपाची आनी म्हाका टाळपाचे खातीर भिंवरो म्हणूक लागलो--

"तेंच देव शिकयता आमकां!"

हें तो सहज म्हणून गेलो आनी आंगार कांटो आयल्या भशेन शिरशिरुन म्हणूंक लागलो, "आमकां ह्या बिळांतल्यो कुल्ल्यो घरा व्हरपाक मेळच्यो नांत!"

"कित्याक रे?" हांवे विचाल्लें.

तशें ताणें म्हळें, "दोन कुल्ल्यांची हावें सुर्वे कच देंवचाराक आंगवण केल्ली. पोतयेंतल्या सगळ्या कुल्ल्यांचे तुंवे दांगे मोडल्यात. ते मोडूं नाका म्हण सांगपाचें भान म्हाका उल्लें ना. त्यो दोन कुल्ल्यो तरी धड आसात मरे?"

पोटार उश्या भशेन वाटकुळे कट्टें आसता. पूण तूं चल आमी दोन तीन बिळां उस्तूंक या."

"आरे त्या बिळांनी दुसरें कितें नासतलें मरे?"

"चल रे तूं!"

आमी बिळां सोदूंक लागतात. सामके लागीं एका भुसभुशीत जाग्यार आमकां कांय बिळां दिसलीं. निट पळोवन भिंवऱ्यान कोबल्याचो दांडो त्या बिळांत घालून थाव घेतलो. ताका अदमास आयलो ना. मागीर ताणे व्हडली बडी घालून परत अदमास घेतलो. आनी ज्युस्त बिळा सावन चार हात पैस पारयेन खणपाक सुरवात केली. हात भर खणटासर तागेल्या हातांतली पारय सुळ्ळ करुन भितर गेली. भिंवऱ्यान पारय भायर काडली आनी बिळ आनिकय व्हडलें केलें. भितर उदक आसलें. त्या उदकांत बडी घालून ताणें परत अदमास घेतलो आनी मोठयान किळांच माल्ली.

"मेळ्ळी."

हांव हें सगळें अजापान पळयतालों. ती खणिल्ली सुवात तशीच सोडून आनी दोन वेंतभर पैस ताणे खणपाक सुरवात केली. वेंतभर खोल बुराक ताणें खणलो जायत. भिंवऱ्यान म्हाका उलो माल्लो,

"हांगा यो आनी ती बडी घे आनी बुराकांत घालून पळय!"

ताणें सांगिल्ल्या भशेन हांवे बडी त्या खणिल्ल्या बुराकांत घाली. खटखट करून आवाज आयलो आनी बडी घट्ट कोणेतरी धरुन दवरली.

"एक न्ही, दोन आसात!" भिंवरो म्हणूक लागलो. हळू हळू भायल्यान खणून ताणे मातयेच्या थराचे एक धेंप पारयेन पैस केलें आनी कितें अजाप! आपले व्हडले दांगे उबारून दण दण एकामेकाचेर आपटून दोनूय कुल्ल्यो आपलो जिव वाटावपाक भिंवऱ्याचेर घुरी घालपाच्या तयारेंत आसल्यो. पूण आपली पारय दोगांयच्याय फाटीर दवरुन भिंवऱ्यान चुट्टाच्या व्हिरान तांचे ते पेजाद दांगे बांदले आनी त्या कुल्ल्यांची ती जड जोडी म्हजे कडेन दिली.

"ह्यो खऱ्यो कुल्ल्यो! पळय हो दादलो आनी ही बायल! ह्या बायल कुल्लेंत भरपूर लाख आसा. चार जाणांक पुरो."

हो सगळो माल घरा घेवन येतना हांवे भिंवऱ्याक विचाल्लें, "तुका ह्याच बिळांत कुल्ल्यो आसात म्हण कशें कळ्ळें रे भिंवऱ्या?"

"हें! तातूंत कितें व्हडलें? कुल्ल्यांच्या बिळांचें तोंड शेण काडून सारयल्या भशेन दिसता. हळशीक करता तो दादलो!"

"पूण भितर दोन आसात हें तुका कशें कळ्ळें?" म्हज्या प्रस्नाची

"मागीर रे? ह्यो दोनूय कुल्ल्यो सोडपाच्यो?"

"हय, नाजाल्यार आमकां कुल्ल्यो पचपाक नांत!"

भियेवन आमी मोन्यानीं न्हंयच्या देगेर आयले. भिंवरो त्या दोनूय कुल्ल्यांचे दोर फ़िशालकायेन सोडयता आनी ती व्हडल्या कुल्ल्यांची जोडी देंवचाराच्या नांवान न्हंयच्या उदकांत सोडून दिता.

साकाची पोती आनी आमचीं आयुधां घेवन आमी घरा परततात.

"लाखेची कुल्ली कशी वळखुपाची रे?"

"बायल कुल्ल्येच्या पोटांत लाख आसता आनी लाखेची कुल्ली मातशी पेजाद, फुगिल्ली आनी तांबसार आसता. पूण चान्या रातीच्यो कुल्ल्यो भरिल्ल्यो नासतात. उदकाळ आनी पोकोळ आसतात. काळख्या रातीच्यो सगळ्योच कुल्ल्यो बऱ्यो; दर्यांतल्यो लेगीत!"

"दर्याच्या आनी न्हंयच्या कुल्ल्यांत कितें फरक?"

"न्हंयतल्यो वेगळ्यो, व्हाळांतल्यो वेगळ्यो, बिळांतल्या कुल्ल्यांची तर जातच वेगळी, आनी दर्यांतल्यो रंगीबेरंगी आंगलें घाल्ल्यो, पूण बिळांतली वा व्हाळांतल्यो अस्सल जातीच्यो कुल्ल्यो खावपी, दर्यांत घाल्ल्या जाळ्यांत मेळपी कुल्ल्यांक हात लेगीत लांवचो नां."

"कित्याक?"

"तांची रुचच पचपचीत! आनी मात्श्यो भिल्यो कीं दर्यांतल्यो कुल्ल्यो रोखडयोच मेंग्यो जातात आनी जीव सोडटात. बिळांतली कुल्ली साबार दीस जिती उरता."

"तुमगेर कुल्ल्यांचे मसालो घालून तोणाक करतात रे?"

"शे! कुल्ल्यांत मसालो घालून तांची गोड खारी रुच तुमी वगडायतात. कुल्ली खावची ती भाजून. शिजोवन शिजोवन तुमी तीची मुळची रुचूच वगडायतात. साध्या कांद्याच्या वांटपात कुल्ल्यो शिजयल्यो आनी उबो कांदो चिरुन घालो जाल्यार भाजिल्ल्या कुल्ल्यां इतली न्हय तरी बरीच रुच उरता. तुमी बामण फकत मसालो खातात. कुल्ल्यो न्हय. आनी खांवन खांवन तुमी कितल्यो खातले?. तुमकां पचपाचें न्ही तें! उलयतां उलयतां केन्ना घराकडेन पावले तें कळ्ळेंच ना."

"फाल्यां गोंयदाल्या रांपणीक येता? दोन दीस जाले रांपण घालून! फाल्यां सकाळीं धा मेरेन दर्यादेगेर येवपाचो अदमास आसा. तूं योच! मजा पळोवंक मेळटली तुका."

आनी फाल्यां येवपाचें उतर घेवन भिंवरो आपलो कुल्ल्यांचो वांटो घेवन गेलो !

गोंयदाची रांपण आज तिसऱ्या दीसा धा जालीं तरी ओडून येवंक नासली. आमी गेल्ले तेन्ना शंबर सवायशें जाण ती ओडटाले. सुमार एका मैलाच्या अंतराचेर चाळिशेक जाण रांपण एका वटेन ओडटाले. वेळेच्या त्या दुसऱ्या वटेन तितलींच मनशां रांपण दुसरे वटेन ओडटाले. मर्दीच दर्यांत व्हडीं घालून रांपणीच्यो तुटिल्ल्या जाळ्याच्यो दोरयो गांठायताले. सगळी दर्यादेग बक्यांच्या हळशिकेन आनी कावळ्याच्या कांव-कांवच्या आवाजान आनी लोकांच्या बोवाळान गजबजून गेल्ल्या भशेन दिसताली. दोंगरा उंचायेचीं ल्हारां घुमत येतालीं आनी जोरान सुटिल्ल्या वाऱ्याखातीर दर्या देगेर आशिल्ले माड एकामेकांक घशटताले. मर्दीच उदकांतल्यान एक व्हडलें नुस्तें उंच सूर मारतालें आनी परत रांपणींतच पडटालें; जीव वाटावपाचो ताचो तो अवतिकायेचो येत्न आशिल्लो.

"कातयाळो शेंवटो!" त्या उंच उडिल्ल्या नुस्त्याक पळोवन भिंवरो आड्ड्लो.

"तूं कसो वळखलो?"

"तातूंत कितें? शेंवट्या इतली उंच उडी दुसऱ्या खंयच्याय नुस्त्याक मारपाक येना."

"पूण कातयाळो म्हळ्यार कितें रे?"

"कातयाळो म्हळ्यार दाट कातीचो आनी सामको रुचीक! कातयाळ्या शेंवट्या इतलो रुचीक दुसरो शेंवटो ना."

आमी उलयतासनांच रांपण सवकासायेन वयर येताली. खारव्यांची भुरगीं ल्हान ल्हान पाटलीं घेवन धोंपरभर उदकांत रावन पळून वचपी धाकटुल्या नुस्त्यांक धरुन पाटल्यांत घालतालीं.

"आमी थंय या?"

"नाका, वागोळें कांटो मारतलें. ताचो कांटो विखारी आसता. तो लागलो आनी काडपाक आयलो ना जाल्यार तर जितलें वागोळे पैस दर्यांत धांवता तितलो कांटो कुडींत रोमून विखारता आनी..."

आतां रांपण वयर आयिल्ली. सामकी भरिल्ली. गोंयदाचें वर्साचें कल्याण ती करतली. म्हऱ्यांत वचून रांपणींचो प्रत्तेक भरिल्लो भाग आमी पळयताले.

"बांगडे-" हांवे किळांच माल्ली.

"घे नाका ते! रुच नाशिल्ले रांपणीचे बांगडे ते!"

"मागीर खंयचो बांगडो बरो तर!"

"मागाचो, व्हड्यांतलो हे दोनय बरे!"

"मागाचो म्हळ्यार कसलो तर?"

मागाच्या जाळ्यांत पडिल्लो बांगडो रगत ओंकीना, व्हड्यान पागिल्लो बांगडो रोखडोच वयर घेतात म्हूणून रुचीक! रांपणीचो बांगडो उदकांत धवळिल्लो, रगत ओंकिल्लो. ताचो उपेग साऱ्याकच करपाचो. खावपाक तो बरो नासता. तसोच ताल्लो हो व्हड्यांतलो बरो. तो भाजून खांवचो. आमी ताल्याच्या दिसांनी दर्या देगेर गेले तर, सकाळच्या पेजेबराबर १००-१०० ताल्ले खातां.

"भाजून कशे खावपाचे रे!"

"तणांत भाजपाचे आनी परत खाऱ्या उदकांत बुडोवपाचे. रोखडीच ताची खवळां सकट कात सुट्टा. आनी मागीर तो दांतांत धरुन सर्र करुन ओडलो कीं हातांतलो कांटो तितलो भायर उडोवपाचो. रुचीक आनी भलायकेक बरो! पूण तुमी शिजोवन खातात; पूण तांच्या मोसमा शिवाय आमी ह्यो वस्तू मेळ्ळ्यो तरी आमी खायनांत."

"तांचो मोसम खंयचो रे?"

बांगड्याचो नवरात्रांसावन फुडले पांच म्हयने. ताल्यांचो माघासावन दोन म्हयने, तिसऱ्यांचो मार्गषिर्श सावन स म्हयने, शेंवटे वर्सभर मेळटात. सुंगटां तशेंच विस्वण, कल्ल्यो हे सरत्या पावसा सांगाताक, कुपांच्या गडगडपी आवाजांत मेळपाक लागतात.

"ही पळय कल्ली!"

"शी! जीव नाशिल्ली, मोव आसा पळय ती! तीन दीस रांपणींत घुस्मुटून मेल्या ती."

"ती ताजी काय ना तें कशें वळखुपाचें रे?"

"कल्लेचो गलो उघडलो कीं तिच्या तोंडांतली गुलाबी लाळ सट्ट करुन भायर येता आनी तीची मान पांचव्या कोराची आसता, ती कल्ली ताजी. हीं तांबडीं सुंगटा पळय, हीं वायट, धवीं सुंगटां बरीं. ह्यो चकचकीत मुड्डोश्यो; पूण ह्यो बारीक आसात. पावसांत उपाट भरुन व्हांवपी न्हंयतल्यो गरयिल्ल्यो मुडश्यो ह्यो व्हडल्यो आनी खूप रुचीक आसतात. मुड्डश्यांसारकें निवळ नुस्तें दुसरें नां. वेल्ल्योय अश्योच निवळ आनी आरोग्याक बऱ्यो, कितल्योय खा, जिवाक माल पडनात. पेडवे भाद्रपदांतल्या पंचमी सावन येवपाक सुरवात जातात. तांचो मोसम चडांत चड दोन म्हयने! पूण पचपाक जड! हें सांगट सामकें गोड आनी मोव. न्हंयचीं वा चिखलांतली मेळत जाल्यार उत्तम."

"ही लेप पळय, हाची कात काडल्या शिवाय ती खावपाक येना. इल्लोसो पातळ जीव हो, पूण देवमाशाक मारता."

"तो कसो रे?"

"देवमासो आपल्या भोंवतणी भोंवरो तयार करता आनी खोल उदकांत वचून 'आं' करुन उदक तोंडात घेवन कानांतल्यान सोडून दीता. उदक वता. पूण थंय जाल्ल्या कमी दाबा खातीर शेंकड्यांनी नुस्तीं ताच्या पोटांत वतात. पूण ही लेप मोठी मालक्रियाद. ती ताच्या नाकार वचून बसता आनी कितलीय तकालस केली तरी ती सुटना. ताचो शासोस्वास बंद पडटा, तो घुस्मट्टा आनी तो मरतगीरच ती लेप आपल्याक सोडयता."

"आवयस!"

"तर नुस्त्यांभितर देवान शेराक सवायशेर निर्माण करुन दवरल्यात. ह्यो पेडी पळय कितल्यो व्हडल्यो, तांची वाड इतलीच, चडांतचड हातभर. आंगभर कांटेच कांटे आशिल्लें नुस्तें हें! तेफ़ळ घाल्लें हाचे हुमण खूप सुवादीक जाता."

"हय आमची आवय लेगीत अशीच करता!"

"ही मोरी खूपच बरी आसा पळय!"

"बरी मोरी कशी वळखूपाची रे?"

"मोरये भितर साधारण दोन अडेच फुटांची मोरी खावपाक चड रुचीक. काळे पांखाटे आशिल्ली मोरी तर सगळ्यांत चड रुचीक. गरम मसालो आनी सोय भाजून घेवन मोरयेचे ल्हान ल्हान कुडके खोबरेल तेलांन तळसून त्या वांटपांत शिजोवपाचे आनी थोडे कातलेचे बारीक कुडके घालपाचे. आनी तांदळा पिठाच्यो भाकऱ्यां सांगाताक तें मोरयेचें

*(पान २२ चेर)*

# ‘नो प्रेझेंटस् प्लीज’

**मूळ कन्नड : जयंत कांयकिणी – कोंकणी अणकार : रमेश लाड**

कामगारी अर्दान उबो आशिल्लो घाटकोपर फ्लायओवर बॉम्ब स्फोटांत मोडून भग्न जाल्ल्या सेतूवरी दिसतालो. दोनूय वटांतल्यान सवका सवकास तयार जावपी सेतूच्या मदल्या भागांतल्या विशाल पोकोळ मळबाक आपणाल्या लोखणाच्या सळयांनी तोपिल्लेवरी ताचे खांबे जमनी कडच्यान वयर सरुन येताले. ह्या अपूर्ण सेतू सकयल रावतल्यांमदीं कसो तरी जागो सोडून वाहनां, सगळीं एकेवटेंत ह्या जाग्यार घुसून विसरायेर पडटालीं. नशीब ते वाटेचें! मनीस आशिल्लो जाल्यार खयीं जाय थंय रावपाक शकतालो. पूण वाटेचें किते?

असले वाटेर एके कुशीक हातांत प्लास्टीकान गुठलायल्लो एक व्हडलो आल्बम घेवन बावीस वर्सांचो पोपट अधीर जावन उबो आशिल्लो. हाचें कारण म्हणल्यार रस्त्याचे दुसरे वटेन आशिल्ले एके बॉल पेनांचे फॅक्टरींत काम करपी आसावरी लोखंडे आनी एका वरान सुमार येवपाचें आशिल्लें. पोपटाच्या हातांत आशिल्ल्या आल्बमांत लग्न पत्रिकांचे तरेकवार नमुने आसात. एका प्रेसांत काम करपी दोस्तां कडच्यान पोपटान तो एका वरा खातीर मागून हाडला. आसावरी लोखंडे आनी पोपट हीं दोगांय मेळून, तांतूतलो एक नमुनो वेंचून काडून आपणाल्या लग्नाच्यो आमंत्रण पत्रिका आजच छापपाक दिवपाचीं आसात. ह्या कामा खातीरच पोपटान आज नायट शीफ्ट घेतल्या.

आसावरी केन्नाच दिल्लो वेळ चुकयना. दोन ट्रकांनी वयर हुबयल्ल्या शिमिटाचें कूप निवळचे आदीं, ड्रीम सिक्वेन्स आसचें तशें तातूंतल्यानच उदेल्लेवरी ताणें दुसरे वटेंतल्यान हात हालयलो. खंयच्याय ट्रकाच्या भस्स करुन गेल्ल्या वाऱ्यान उबचेना इतले ताचे केंच घट्ट बांदिल्ले आशिल्ले. धुळीचो इल्लोय त्रास जावंनाशिल्ले भशेन ताचे दोळे बरे चकचकताले. आसा थंयच्यानच आल्बम वयर काडून दाखोवन हेवटेन तेवटेन एक फावट पळोवन, तो छातयेकडेन धरुन पोपटान रस्तो हुपलो. दनपारचें कडक वत हितकारक आशिल्लेवरी तो ताचे म्हऱ्यांत पावलो. ‘‘हाडले?’’ ताणे खोशयेन म्हणलें. तिगेल्या त्या सुरांत ‘‘तांदूळदाळ हाडल्यात?’’ अशा अर्थाची संवसारीक छटा आशिल्लो तिच्या गळ्यांतलो वेगळो स्वर पोपटाक केन्नाय मानवपा सारको आशिल्लो.

‘‘चड वेळ ना. जाता तितलें बेगीन पसंत करपाक जाय. हांगाच खंयतरी बसया.’’ पोपटान म्हणलें. खंय बसचें म्हूण आशी कुशीक पळयत व्हडल्या आकाराच्या फोडुंनाशिल्ल्या फातरांवटेन तो ताका घेवन गेलो. सेतूच्या स्लॅबाची अर्दकुटी शी सावळी एकेवटेन पडिल्ली. थंय मातशें उबाळशें मौन आशिल्लें.



वेगान चलपी ट्रकांचो आवाज, कुशीकच घुंवपी खडी आनी शिमीट मिक्सराचो आवाज आनी मातशें पयस कांजूर मार्ग स्टेशनांत मिनटाक एक धांवपी लोकल ट्रेनींचो आवाज - हेंय बी सगळें त्या मौनाचोच वांटो जाल्लें.

आंगभर छित्रीच्यो खोलसार कुरवो आशिल्ल्या ल्हान फातरांचेर बसतां बसतां ‘दी पळोवया’ अशें म्हणून आपणेच आल्बम ओडून घेवन आसावरी पानां परतूंक लागलें. आसावरीच्या नाजूक गळ्याचेर घामाच्यो पावळ्यो देंविल्ल्यो पळोवन पोपटाच्या मनातलो मोग जागो जालो. पाना परतिता आसतना, रंगरंगयाळ्या चित्रविचित्र पत्रिकांचे तरेकवार नमुने ताका दिसले. कसलेंच बरप नाशिल्ल्यो, रिकाम्यो लग्न पत्रिका! त्यो पळोवन आसावरीक कच्च जालें. बरपच नाशिल्ल्यो त्यो रित्यो रित्यो लग्न पत्रिका, कोणूच रावपाक वचुंनाशिल्ल्या हावसिंग बोर्डाच्या घरांवरी, निर्जन पडिल्ल्या कल्याण मंटपांवरी, भुताटकेचो आभास निर्माण करताल्यो. गरजेभायर वेळ घालोवपाक तें पाना परतिल्लेंवरी करता तें पळोवन पोपटान म्हणलें, ‘‘हें पळय, हें कशें दिसता पळय. खऱ्या फुलांचे दल हे, हें पळय खऱ्या हळदीकुकमाचें चित्र. स्क्रीन प्रिंटिंग करतात हीं.’’ तो जड जड पानां परतुपाक हात लायत उलयतालो. ‘‘इतलीं सोबीत, मोलादीक कार्डां आमकां फावोसारकीं ना!’’ हें सत्यय ताच्या उलोवण्यांतल्यान निर्लेपपणान उगतें जातालें.

आसावरीक तो आल्बम म्हणल्यार एक अगणीत अशे तांकींचें नोंद पुस्तक कसो दिसलो. सगळे तरेचे लग्न संवसार तातूंत आशिल्ले. तरेतरेच्या बॅण्ड वाद्यांचे आवाज तातूंत धांपून पडिल्ले. आशिल्ल्यांमदीं खूब सवाय आनी सादे नमुने सोदप तशें कठीण नाशिल्लें - कारण तसली चार पांच कार्डां ताच्या निमण्या भागांत आशिल्लीं. नितळ गुलाबी रंगाचें कार्ड दोगांकय खूब मानवलें. ताचे दावे कडेक सान मडकी आसून ताचेर वयर सवण्यांचे जोडयेचें सान रेखाचित्र आशिल्लें. हें पसंत करपाक कांय आडखळ ना. अशें म्हणिल्ल्या आसावरीक पोपटान खूब अभिमानान पळोवन हात हालोवन सहमती दाखयली.

आतां आसावरीन तें एकच कार्ड प्लास्टीक फोल्डरांतल्यान सवकास भायर काडून हातांत धरलें. ‘ये... ये... लोळटलें मुगो तो. भितर घाल. प्रेसांत काम करपी म्हज्या मित्राकडल्यान हो आल्बम हाडला. आनी कोणाकच अशे तरेन दिवचो ना तो. भितर दवर, भितर दवर’ अशें म्हणून ताकतीक करपी पोपटाचे तकलेर

पट्ट करुन थापटी मारुन आसावरीन 'चूप' म्हणलें.

सेतूचेर खंयतरी एक लॉरी येवन, आपणालो रिकाम्यो फाटलो भाग वयर काडून रेंवेचो पावस घालता आसतना, सकयल खंयतरी फातरां कुशीक बसून दोगांयनी एकचित्तान तें निवळ गुलाबी कोरें कार्ड पळयलें. भावी वैवाहीक जिविताचें निगूढ रहस्य लिपोवन दवरुन तो ल्हानसो कागद तांकां भिवयल्लेवरी पळयतालो. सांगातान उसा रोस पिल्लीं, आड वेळार, पाड जाल्ल्या त्या उपवनात अर्थ नाशिल्ली बडबड करीत भोंविल्लीं, तें लेडीज डब्यांत वतां म्हणून लागलें तेन्ना "नाका, हांगाच यो", अशें म्हणून जनरल डब्यांत आफोवन दोगांकय चिड्डून मुड्डून खावपी लोकांचे गर्देत ताचो अधिनायक जाल्लेवरी आसावरीक आपणा आड सांबाळीत उबो राविल्लो. "तूं सूट सफारी घालतलो जाल्यार लग्नच नाका" - अशें म्हणून बस स्टॉपाचेर तांणे गोंदळ घाल्लो, जगांतलो एक वीर जाल्लेवरी तिचे खातीर कानांतलीं घेवपाक गेल्लो आसतना ताच्या बजेटा भायली वस्त दाखोवन ताका उणाक लेखून सेल्समन तुच्छतायेन हांसत पळयतालो तेन्ना ताचेर मूक संकट हाडपी दुस्मानावरी जाल्लें तें "शी.. बरें दिसना हें, इतलें म्हारग घेवपाक कितें पिशें लागलां तर?" अशें म्हणून एका सेकंडान शापविमोचन करुन ताणे ताका दुकानातल्यान भायर हाडिल्लो. असल्या सगळ्या तरेकवार चित्रांची विचित्र अशी सांखळ गुंथपाक तयार जावपी ही लग्न पत्रिका समाजाच्या निर्दय नेमां सारखी दिसपाक लागली. बंद किल्ल्याच्या दारावरी ती दोगांकय एकेकट्याक 'पळय' 'विचार कर' अशें सांगताली.

दोगांयचीं इश्ट इश्टिणी मेळून चडच जाल्यार शंबरेक जातलीं, पूण पत्रिका छापल्यो तरी तीनशीं पत्रिकांचें मोल फारीक करचें पडटा. अशें आशिल्ल्यान तीनशींच करुन घे म्हूण प्रेसवाल्यान सल्लो दिलो. आतां ही वयलीं दोनशीं कार्डा कितें करपाचीं? कोणा कोणाक वांटपाचीं अशी एक गंभीर समस्याय बी सामकार उबी जाल्ली. हे लग्न पत्रिकेच्या निमतानच भावबंदकी वाडोवपाक एक संद आशिल्ली. पानवालो, इस्त्रीवालो, उपवनांचे चौकीदार, व्हडल्या हॉटेलांतल्या फुलदाणयांतलीं काल वापरुन काडिल्लीं फुलां फुटपाथाचेर सवाय दरान विकपी भुरगे अशे हे सगळे वळख नासतनाय वळखीचे आशिल्लेवरी वा वळखीचे आसुनय वळख ना जाल्लेवरी... हे सगळे लक्ष्मणरेखे भायले आसले तरी विचार करपी आशिल्ले. हें एक कार्ड दिना फुडें ते इस्तरी मारिल्ले कपडे घालून ते रेखेचे भितर येवन हात हालोवन नात्यांतलेशे जावन परतून वचुंये. कामाक वचपी बायलां आपणाल्या भुरग्यांक आमगेर दवरुन वचपाक आरंभ करुंये. वा आमकां हेर लग्नांचीं आमंत्रणा येवंये. नवे कपडे घालून दोन बस-रेल्वे बदलून, खंयच्यातरी पँडॉलांत लोखणाचे खुर्चेत अपरिचितां मदीं जांबयो काडीत बसून, अपरिचितांकडच्यान जेवण वाडून घेवन, अपरिचितांकडच्यान हात धुवपाक मग घेवन, पान सुपारी चाबडायत कोणाक टाटा म्हणनासतना घरा परतप हातूंत कसलो बंधुभाव आसता? कसलोच ना न्हीं?

भग्न सेतूची सावळी आतां पुर्वेवटेन कसलोच आवाज नासतना पयस पयस वताली. दोगांय सवकास उठून खडी मिक्सराचे पेलेवटेन आशिल्ल्या कालाखट्टा गाड्याकडें गेलीं. 'वन बाय टू' करुन कालखट्टा पिलीं. बाय टू केलें जाल्यार प्रमाण चड मेळटा अशें पोपटाचें मत. "आयस नाका" म्हूण आसावरी किळांचलें. आयस आसप म्हणल्यार सरबताक लुकसाण. अशें आसावरीचें ठाम मत. दोगांय कालाखट्टा सरबत थेंब थेंब ओडीत पितासतना, सरबत विकपी, चोरयां प्रेम करपाखातीर कोणूय आडसाचो जागो सोदीत आयिल्ल्या प्रेमिकांक पळयल्लेवरी दुबावी नदरेन पळयत 'जाय जाल्यार थंय कुशीक बसात, हांव आसां हांगा, कोणूय आयल्यार अचळय आवाज करुन सुचयतां तुमकां' अशें म्हणून धुळीन माखिल्ल्या सिमेंट उपकरणांचें जंकयार्ड तांकां दाखयतालो. आसावरीक आंगांतल्यान उजो गेल्लेवरी जालें. हातांत आशिल्ले कोरे लग्न पत्रिकेचो अपमान करतात काय कितें ह्या वातावरणात रावून अशें दिसून, गटाकट करुन सरबत पियेवन ग्लास मेळटा थंय तेंकोवन 'चल प्लेटफॉर्मार या' अशें म्हणून कांजूर मार्ग स्टेशनार वचपी शॉर्टकट मार्गान तें चलूंक लागलें. खंयच्या तरी एके तरेच्या रेब्यांतल्यान दोगांकय वयर काडपी शक्त हे लग्न पत्रिकेक आसा अशें दिसून सडसडीत प्लेटफॉर्म नंबर तीनच्या पोंतार आशिल्ल्या सिमेंट बांका वटेन धांव मारुन बसचें बसून आपणाले पर्सीतल्यान एक कागद काडून आमंत्रणाचो मजकूर तयार करपाचा सुरुवात केली.

आल्बम छातये कडेन धरुन इतलो वेळ धांवतच आइल्लो पोपट आसावरी बरयतालें तें पळयत कुशीक खरशेतच बसलो. तिचें पेन एके तरेन कांचवेल्लेवरी जावन राविल्लें थंय वयले वयरच हालत उरलें. रिती प्रमाण लग्न पत्रिकेंत जाणटीं मनशां, बापूय आवय हांणी आमंत्रणांत विनवणी करप अशी रीत आसा. वा आतां मेरेन ह्या दोगांयनी पळयल्ल्यो लग्न पत्रिका तशें सांगताल्यो. पूण फाटलें फुडलें कांय नासतना ह्या नगराचे बोमलेंत स्वयंभू मुर्ती जल्मून व्हड जावपी दोगांकय ह्या खिणाक कित्याक तरी योग्य दिकाच दिसनाशी जाली. आवय बापाय विशीं खबर ना तें एक सोड, इतलीं व्हडलीं जाल्ल्या तांकां स्वताक जाणटीं, शुभचिंतक, पालक अशीं सुद्धां कोण दिसनात. आसावरीक चेंबुरांतल्या रिमांड होमांतली खाकी बायल मनीस याद जाली जाल्यार पोपटाक चर्चगेटी मुखार बुटपॉलीश करतालो तेन्ना चार आणे चड दिवपी एका पारसी जाणटेल्याची याद जाली. एके तरेच्या रितेपणांत आसावरी शेणून गेलें. पोपटाची नदरय भिरभिरत उरली.

तें काम करतालें त्या बॉल पेन कारखान्यांतच स म्हयने टेंपररी आसतना ताणे पोपटाक पळयल्लो. बऱ्या बॉल पेनांतल्यान रिजेक्षन फावो जाल्लीं म्हणल्यार दोश आशिल्लीं बॉल पेनां विंगड करपाच्या विभागांत तें निपुणतायेन काम करतालें. तरी पूण कितेंय फाटीं फुडें जालें जाल्यार सुपरवायजर येवन सगळ्यां मुखार हीण उतरांनी ताका तापयतालो तेन्ना ते मेरेन तिचेकडेन कुलू कुलू हांसपी, जेवणा डब्यांतलेंय वांटून खावपी हेर सगळीं ताचो धडधडीत अपमान जातासतना त्या वेळार आपणाक कित्याक पडलां म्हणिल्लेवरी आसात तशीं आपणाल्या कामात निर्दयपणान चडच

दंग आशिल्लेवरी दाखयतालीं. तेन्ना पोपटाक भितरले भितर खूब दुखतालें तें ताचे आर्त नदरेंतल्यान फकत आसावरीकच जाणवल्लें त्या खिणारच तांचें दोगांयचें जग एक जालें.

तोंडा सामकार आपले वाटेन धांवून गेल्ली लोकल ट्रेन पळयत ताकतीक जाल्लेवरी उलोवंक लागलो ''आमची नांवाच पुरो. बेगीन बरय. मराठी, हिन्दी बी कांयच नाका. म्हज्या इश्टांक मराठी कळचें ना. इंग्लिशींतच बरोवन सोड. तुका येता न्ही तूंच बरय.'' ''नाका, आमचे वर्षा मॅडमी कडच्यान बरोवन हाडटां'' अशें ताणो म्हणटांच ''नाका, नाका. आतांच अर्दा वरा भितर रेडी जावपाक जाय. तूंच बरय पळोवया. मागीर प्लॅटफॉर्म बुकस्टॉलाच्या त्रिपाठी कडच्यान निवळावन घेतल्यार जालें' अशें म्हणून ताणे ताकतीक लायली.

आतां रिकामो कागद अल्बमाचेर दवरुन आसावरीन We invite you to our wedding reception at Panaswadi Chawl on... अशें बरयत वचून उंहू अशें म्हणून ताणें तें चिरलें. मागीर परतून Asawari Lokhande marries Popat बरोवन उंहू म्हणून Popat marries Asawari Lokhande अशें बरयलें. ह्या दोनय तरांनी एकट्यान दुसऱ्याचेर कितें तरी उपकार केल्लेवरी भास जावचो ते तरेन तेंय बी चिरुन उडयलें. परतून पयलीं बरयल्लें तशें We are getting married... अशें सगळें बरोवन सकयल दावे वटेन पोपट आनी उजवे वटेन आसावरी लोखंडे अशें बरयलें. त्या खतेल्ल्या बुरशा कागदा कुडक्याचेर इंग्लिशींत बरयल्ल्या पद्धतशीर बरपांत आपणा दोगांयचीं नांवां एकठांय आयिल्लीं वाचून दोगांय मेळून एके अधिकृत वेवस्थेंत आसपावलीं हाची पयलेच फावट जाणविकाय जावन आसावरी आंगभर शिरशिरलें. सट्ट करुन दोनय हात कानार दवरुन दोळे धांपून घेवन आपणालें अदृश्ट ताणो भितरले भितर पचयल्लेवरी आंवडो गिळ्ळो. बांकार आनिकय लागीं आयिल्लो पोपट ताकाच पळयतालो. घर, आयदनां, पगडी, तोरण, तिथी परबो, टूथ ब्रश, शाबू, जनेलांचे पड्डे अशें सगळें बाळगुपी संवसाराक फावो जाल्ल्या नशीबवान नागरिकांच्या सांगता सांगतान ह्या रस्त्यांनी चलुनयबी अशे तरेचें सहजसाध्य संवसार भाग्य आपणाल्या वांट्याक येवप शक्यच ना अशें धरुन चलपी ह्या जोडप्याक लग्नपत्रिकेंतल्या अर्दकुट्या बरपांतल्या मजकुरान एकदम त्या नॉर्मल लोकांचे कुशीक हाडून उबीं केल्लीं.

दोळे धांपून बशिल्ल्या आसावरीच्या हातांत आशिल्ल्या कागदाक एकसारको पळयत आशिल्ल्या पोपटान पयले फावट मोठ्यान तो वाचलो. 'आसावरी लोखंडे'. त्या सॉलीड दिसपी नांवा सामकार आपणालें 'पोपट' हें नांव खुबूच जुजबी आशिल्लेवरी ताका दिसलें. कित्याक तरी हें बरें दिसना. हातूंन कितें तरी फटवणूक आसा अशें ताका दिसपाक लागलें. सामकार पळयलें. दोगजाण भुरगे बारीकशी निसण लावन प्लॅटफॉर्मावयल्या पोस्टरां लायनीत सिनिमाचे पोस्टर कुडक्या कुडक्यांनी दसयताले. कागाळ केल्लेवरी ताणें म्हणलें, ''पळय, तुजें नांव कितलें मजबूत दिसता तें. आडनांव आसा. एका घरंदाज कुटुंबाक संबंधीत कशें दिसता हें नांव. ताचे सामकार म्हजें सामकें फुस्स. मनशाचेंय बी नांव न्ही तें. तुमचे मराठींत पोपट म्हणल्यार 'कीर' न्ही? एक क्षुल्लकसो 'कीर' हांव, शी!'' ताणें म्हणलें, ''शी... पिशांभशेन उलयता तूं, लोकांनी तुका मायेमोगान दिल्लें नांव तें.'' अशें म्हणपी आसावरीचो हात धरुन ''मोगा बिगाचें कांय न्ही, भंकस नांव तें. तें सोड आसावरी, लोखंडे म्हणल्यार कसली जात?'' ताणे विचारलें. आसावरी अजापलें. केन्नाच असली भास उलोवं नाशिल्लो तो. तांकां लागनाशिल्ली अशे तरेची भास ती. रस्त्यावयल्या अनाथ भुरग्यांक एके व्हेनींत भरुन चेंबुरांतल्या रिमांड होमांत व्हरुन घाल्ल्या भुरग्यां मदीं वाडिल्लें एक भुरगें तें. रिमांड होमांत गायन, प्रार्थना बी शिकोवपाक लोखंडेबाई नांवाची एक महिला येताली खंय. ती हार्मोनियम वाजयताली तेन्ना सामकें लागी बसून मेकळ्या ताळ्यान तन्मयतेन गावपी ह्या भुरग्याचेर माया बसून ती ताका 'आसावरी' नावान उलो करुंक लागली खंय. तें एका रागाचें नांव. ती मॅडम गेले उपरांत होमातलीं सगळीं मनशां 'लोखंडे बाईचें आसावरी' अशें म्हणून ताका संबोधूंक लागलीं. मागीर मागीर ताका आसावरी लोखंडे हेंच नांव पडलें. आपणें पळोवं नाशिल्ले आवय सारकी दिसपी, निवळ हळडुव्या रंगाची साडी न्हेशिल्ले, मृदु स्पर्शाचे, ते अस्तुरेची अस्पश्ट याद ह्या नांवा वांगडा जिती उरिल्ल्यान तें सोडून दिवपासारकें कसलेंच व्हडलें कारण ताका आज मेरेन दिसूंक नाशिल्लें. ही गजाल ताणें पोपटाक शंबर फावटी तरी सांगिल्ली. अशें आसतनाय आतां सामाजीक कसो दिसपी ह्या प्रसंगार त्या आडनांवाक लागून पोपटामुखार उबें जाल्लें संकट कशें सोडोवचें हें ताका समजना जाल्लें. ह्या एका आमंत्रणाच्या हात बरपांन ताची भाशाच बदलल्या ती पळोवन तें कांचवेलें आनी ताणें फट्ट करुन पेनान आपणाल्या नांवांतलें 'लोखंडे' उतर खोडून उडयलें. एक भार सर्रर करुन कडून गेल्लेवरी जालें. ''खूश?'' म्हूण प्रस्नार्थक नदरेन ताणो ताचेवटेन पळयलें. ''हय तर, आमकां सांबाळून घेवन वयर काडलीं तीं मुंबयन. कोणा कोणाचीं नांवां घेवन तसो मुंबयचो अपमान करपाक फावोना आमी.'' ताणें म्हणलें, हारिल्ल्या आवाजान.

तोंडा सामकार हजारांनी नांवां रेलींतल्यान फुडें फाटीं धांवत आशिल्लीं. थांबिल्ले रेलींतलो बोवाळ बंद करुन जावन येवपी लोकांचे चोंबे पळोवन पोपटान म्हणलें ''पळय पळय आसावरी, ह्या लोकांचें फुटकें नशीब. दर एकट्याक आपणाली जात खबर आसा. कारण आवय बापूय कोण तें तांकां खबर आसा. ही 'जात' घेवन कशे धांवतात पळय, चोरी करुन धांविल्लेवरी. आमकां अशे तरेचो मनस्तापच ना न्ही?'' अशें म्हणून तो खो खो हांसलो. उशीर जालो अशें म्हणून आसावरी उठून उबें रावलें.

प्लॅटफॉर्मावयल्या पुस्तक स्टॉलाचो मालक मुद्याळ्या पिकिल्ल्या केसांच्या त्रिपाठीन बरेभशेन निवळसाणोन नव्या कागदाचेर पत्रिका परत बरोवन दिली. दोगांकय खोशयेन पळयत त्रिपाठीन 'खोली बिली पळयल्या... काय प्लॅटफॉर्म नंबर ३ वर कुशीच्या बांकार थाटटात संवसार?' अशें म्हणून फकाण केलें. त्रिपाठी तोंड धांपून बरोवंक लागलो तेन्ना आसावरीन ''आतांचे लोक 'उपकार करुन केळवण हाडची न्ही,' No Presents Please अशें सगळें घालतात न्ही?'' म्हणलें. त्रिपाठी ''ती सगळीं

श्रीमंतांची स्टायल गो धुवे. आमकां न्हीं तें. कोणोय मायेन कितेंय दिलें जाल्यार घेयात, नवें बिराड तुमचें, जाय पडटात वस्त्रू'' - अशें म्हणून कागद दिवन 'बरें जांव' म्हणलें. पुराय संवसारावतीन मेळिल्ले आंवडे अशें दोगांकय दिसलें आनी ताच्या पांयार पडून आशिर्वाद घेवचे अशेंय मनात आयलें. पूण मॅगझिनांचे हारे हारेन आशिल्ल्या दाळां फाटल्यान आपणाल्या त्या आसऱ्या भितर खंय तरी आसपी ताचे पांय पयस नदरेभायर आशिल्ले. कांयच दिसनाशिल्ल्यान तांणी ओणव घालो. ताका तें समजल्ल्यान आसा थंयच्यान ताणे 'जीते रहो' म्हणलें. आनी दोगांय वचपाक धुंवली तेन्ना फाटल्यान 'आरे पोपट, तूं पोपट हेंच नांव दवरुन घेता?... तुजें नांव कार्डाक सोबसारकें दिसना, सोड तें... एक नवें नांव दवरुन घे. नया नाम, नयी जिंदगी' अशें म्हणून हात हालयलो.

सोंपणा चडून रेल्वेच्या लोखणाच्या सेतूचेर तीं कठड्याक तेंकून उबीं रावलीं. हांगा साकून चार प्लॅटफॉर्मा एकदम दिसतालीं. रेल लायनीं वयर दनपारचो सूर्य ऊंच तेमकार आत्महत्या करपाक गेल्ले व्यक्तीवरी न्हिदिल्लो. सट्ट करुन पोपट दोरयेक बांदिल्ल्या भोंवऱ्यावरी जाल्लो. ताचें समस्त जग पांयांच्या बोटांचेर उबें रावून नव्या नांवाचें मागणें करतालें. ''हय गो आसावरी ... त्रिपाठीन म्हणलां तें खरें. हो एकच चान्स आसा म्हाका. बेगी बेगीन म्हाका एक नांव दी.'' अशें म्हणून सामको उतावळो जालो. ताची फाट सांसपीत आसावरीन 'शे!' अशें म्हणना फुडेंच पोपटान 'शे' नाका आनी 'शी' नाका, बेगीन एक नांव सोद. ताका लागून सगळेंच नवें जातलें, सगळें बदलतलें. स्टायलीश्ट नाका, सुंदरयबी नाका. एक नवें नांव दिल्यार पुरो.. बेगीन. त्या प्रेसवाल्याक तीन वरां जावंचे आदीं कार्ड दिवपाक जाय. बेगीन. अशें म्हणून आसावरीक भुजा कडेन हाताक धरुन ओडलें. आसावरीक कांयच सुचनाशिल्लें. एक रेल्वे येवन सेतू पोंदा रावून तांच्या पांयां पोंदच्यान हजारांनी नांवां देंवोवन वचपाक गेली. देवा सायबा कितले तरेचीं नांवां तरी. प्रत्येकाक एक थारावीक मुखमुद्रा, मुस्तायकी, वळख, गंध, तांचोच सर्ग, नरक. तिका हालोवन पोपटान ''स्वप्नील... हां स्वप्नील कशें आसा? एक फावट टी. वी. चेर आयकल्लें. बरय, बरय, बेगीन बरोवन घे. स्वप्नील, स्पेलींग जाय जाल्यार त्रिपाठीकडें विचारुन यो'' अशें म्हणून आवेशान थरथरुंक लागलो. एका वेगळ्याच लोकांत वचपी विमानाच्या पाकाट्याच्या एका पोंतार तो हुमकळटा कसो दिसतालो.

हे वेतभर यकश्चीत पत्रिकेंतल्या मजकुराक लागून आपणालें भरवंशाचें साम्राज्य ना नपयत जावपाच्या भंयान आसावरीन ताका भुजां कडेन दोनय हातांनी धरुन ''कितें जालां तुका पोपट... सगळें सारकें आसा मरे पोपट... आरे म्हजो न्ही रे तूं पोपट?'' अशें म्हणून मवाळ ताळ्यान तें ताका सांगपाक पळयतालें. नव्या नांवाची ताकतीक जाल्ल्या पोपटाचे दोळे वेगळेच दिसले. आतांच सांबाळ्ळो ना जाल्यार सर्वनाश जावंये अशें दिसून लग्नच मोडपाचे येवजण आंखिल्ले लग्न पत्रिकेच्या मजकुराचो कागदा कुडको फरफर पिंजून ताचो गुठलो करुन पयस भिरकावन उडोवपाच्या इराद्यान हातक वयर करतनाच, कोणें तरी दिल्ल्या देवाच्या फुलाचो प्रसाद भायर मारपाक कांचवेल्लेवरी जावन सट्ट करुन रावून, कागदाचो तो सान गुठलो तिणें आपणाले पर्सींत दवरलो. तिणें तो खंय शेवटून मारलो काय अशा गोंदळांत पडून, तो खंय वचून पडटलो ताचो अदमास घेत दोळे रुंद करुन सामकारांतलें अवकाश पळयतयल्या पोपटाक त्या खिणार पयसुल्लो भग्न फ्लाय ओवर, खांबो, धांवपी ट्रक, फातरांची खडी, लागीं येवपी ट्रेन हें सगळें भुरग्यांच्या खेळांतलें सामान कशें दिसलें.

संपर्क : 9764924552



# आदर्श करोडपती

**ऑस्कर वाइल्ड (अणकार: शैलेंद्र मेहता)**

गिरेस्तकाय आसल्याबगर कितलोय बरो दिसपी आसून कसलोच फायदो ना. मोग हो पयशेकारांचो खास अधिकार; तो बेकारांचो वेवसाय न्हय. गरीब वेव्हारीक आनी सादारण आसचो पडटा. आकर्शक आसचेपरस कायम येणावळ आसप अदिक बरें. आर्विल्ले जिणेचीं हीं कांय सतां ह्यूइ अर्स्किन हाका केन्नाच समजलीनां. बाबडो ह्यूइ! बौद्धिक नदरेन तो व्हडलोसो म्हत्वाचो नाशिल्लो हें आमकां मानचेंच पडटलें. ताणें आपले जिणेंत कसलेंच दोळे दिपकावपी भाश्य केन्ना करूंक ना वा कसले गजालीची कटकटूय करूंक ना. पूण ताचे ते वाऱ्यार धोलपी काफयेकोराचे केंस, स्पश्ट, रेखीव मुखामळ गोबरी दोळे हांकां लागून तो रुपान अजाप दिसपा इतलो सोबीत आशिल्लो. दादले आनी बायलांमदीं तो सारकोच लोकप्रिय आनी पयशे जोडप सोडलें जाल्यार हेर सगळे तरेची कार्यकुशळटाय ताचेकडेन आशिल्ली. ताच्या बापायकडल्यान ताका घोड्यार बसपी सैनिक वापरतात तसली एक तरसाद आणि पंदरा खंडांचो 'द्वीपकल्पांतल्या झुजाचो इतिहास' दायजान प्राप्त जाल्लो. ह्यूइन ती तरसाद हारश्यावयर हुमकळावन दवरिल्ली. पुस्तकांच्या खंडांक 'रफ' हाची 'मार्गदर्शिका' आनी 'बेली' चें 'की' नेमाळें हांचेमदीं एका शेल्फाचेर. ताचे एके म्हातारे आंटीन दिल्ले वर्सुकी दोनशीं इतले जोडीर तो जीण सारतालो. ताणें दरेक काम करून पळयलें, स म्हयने 'स्टॉक एक्स्चेंज'चो अणभव घेतलो पूण बैल आनी वांस्वेलां हांचेमदीं एका फुलपाकुल्याच्यान कितें करूं येता? कांय तेंप ताणें चायेचो वेपार केलो पूण 'पीको'आनी 'साउशोंग' सारक्या चायेच्या प्रकारांक तो विटलो, मागीर ताणें ड्राय शैरी विकपाचो यत्न केलो. थंय लेगीत कांयच जमलेनां, शेरी चड ड्राय आशिल्ली. निमाणे सुवातेर तो कांयच जावंक पावलोना, सोडून एक संतोसभरीत कुचकामी तरणाटो जाचेकडेन परीपूर्ण मुखामळ आशिल्लें पूण वेवसाय कसलोच नाशिल्लो.

हाचेपरस वायट गजाल म्हळ्यार तो मोगांत पडिल्लो. लॉरा मर्टन तिचें नांव आनी ती एका सेवानिवृत कर्नलाची चली, भारतांत शेणिल्लो कर्नलाचो मूळ सभाव आनी पचनशक्त ताका परत केन्नाच मेळुंक ना. लॉराची ह्यूइचेर भक्ती आशिल्ली आनी तोवूय तिच्या पावलांचो उमो घेवंक सदांच तयार. पुराय लंडन शारांत तांचेपरस सोबीत जोडपें नाशिल्लें. पूण तांचेलागीं खुटो पयसो लेगीत नाशिल्लो. कर्नलाक ह्यूइ भोव पसंत आशिल्लो पूण तो तांच्या साखरपुड्याचें नांवलेगीत आयकूंक तयार नाशिल्लो.

"पूता, तुजेकडेन स्वताचे धा हजार पावंड जमतकच तूं यो, मागीर चिंतूया," कर्नल सांगतालो. त्या दिसांनी ह्यूइ भोव उदास जातालो आनी ताका दुख्ख परिहाराखातीर लॉराकडेन वचचें पडटालें.

एक दिस सकाळीं फुडें, हॉलण्ड पार्कच्या रस्त्यार जंय मर्टन परिवार रावतालो, ह्यूइ आपलो लागींचो इश्ट ॲलन ट्रॅवर हाका मेळुंक भायर सरिल्लो. ट्रॅवर एक पेंटर. खरें म्हळ्यार आयजकाल उणेच लोक पेंटर जायनासताना रावूंक शकतात पूण तो एक कलाकार आशिल्लो, आनी कलाकार तर मेळप दुर्लभ. तो स्वभावान विचित्र, मुखामळार दाग आनी वांकड्यातिकड्या खाडाचो मनीस पूण ताच्या हातांत पिशोल येतकच तो एक खांपो कलाकार जातालो. ताच्या चित्रांक बरीच मागणी आशिल्ली. सुर्वेक तो ह्यूइवटेन आकर्शित जाल्लो ताच्या व्यक्तिमत्वाक लागून. "फकत अशाच लोकांवांगडा एखाद्र्या चित्रकाराची वळख आसूंक जाय," तो म्हंटालो, "जे आकर्शक आनी सुंदर आशिल्ल्यान लोकांक तांचेकडेन पळवन सुख मेळटा आनी तांचेविशीं उलोवन एक बौद्धिक सवस्तकाय मेळटा. वेवस्थित नटपी दादले आनी काळजाचो कुडको जाल्लीं बायलां संवसाराचेर राज्य करतात, वा ताणीं तशें करूंक जाय." ह्यूइची पर्जळीत उमेदी प्रवृत्ती आनी उदार बेपरवा स्वभाव हाका लागून ॲलनाक तो आवडूंक लागलो आनी ताणें ताका सदांकाळ आपल्या स्टुडिओंत येवपाची मेकळीक दिली.

स्टुडिओंत भितर सरतानाच ॲलनाक एका भिकाऱ्याच्या अद्भुत पूर्णाकृति चित्राचेर निमणो हात भोंवडायतना ह्युइन पळयलो. स्टूडियोच्या एका कोनशांत स्वता भिकारी एके उंच माचयेर उबो रविल्लो. मिरयो पडिल्लो तो एक म्हातारो. सुरकुतिल्ल्या चर्मपत्रावरी मुखामळार ताची काकुळ्ट करपासारके भाव स्पश्ट दिसताले. ताच्या खांदांर एक उण्या मोलाचें काफयेकोराचें वस्त्र हुमकळटालें; कांय कडेन बोतरां जाल्लें तर कांय कडेन थिगळां मारिल्लें. ताच्या जाड बुटांचीय थिगळां आनी शिवण दिसताली. एका हातान खडबडीत बडयेचो आदार घेवन तो उबो आशिल्लो आनी ताच्या दुसऱ्या हातांत ताणें आपली जीर्ण जाल्ली हॅट भिक्षेच्या पात्रावरी धरिल्ली.

"कितलो अप्रूप दिसपासारको मॉडेल हो!" आपल्या ईश्टाचो हात हातांत घेत ह्यूइ फुतफुतलो.

"अप्रूप दिसपासारको मॉडेल?" ट्रॅवर उंच आवाजांत आड्डलो. "हांवुय तशेंच चितंतां! असले भिकारी सदांच खंय मेळटात! दुर्मिळ, ओडलायणो! जितो-जीवो व्हॅलाजक्वेज! नशीब म्हजें! रेम्ब्राँ हाचें कितलें सोबीत रेखाचित्र काडपाचो!"

"बाबडो गरीब म्हातारो!" ह्यूइन म्हळें "कितलो दयनीय! पूण म्हाका दिसता, चित्रकार ताचें मुखामळ म्हळ्यार ताचें भाग्य समजतात?"

"निश्चितपणान." ट्रॅवरान जाप दिली, "तुकांय एक भिकारी खुशालभरित दिशिल्लो नाका. अशेंच न्हय?"

"एका मॉडेलाक एक बसका करूंक कितले मेळटात?" ह्यूइन सोफाचेर आरामशीरपणान बसत विचारलें .

"एका वराक एक शिलिंग."

"आनी ॲलन, तुकां एका चित्राचे कितले मेळटात?"

"ओह, हाचेखातीर म्हाका दोन हजार

मेळटात!''

''पावंड?''

''गिनीज. चित्रकार, कवि आनी दोतोरांक सदांच गिनीज मेळटात.''

''बरें आसा, पूण म्हाका दिसता, मॉडेलकूय हातूंतलो कांय वांटो मेळुंक जाय.''

ह्यूइन हांसत हांसत नेटान म्हळें, ''तेवुय तुमचेभशेन खर कश्ट करतात.''

''मुर्खपणा! मूर्खपणा! दिसभर रंगांत बुडून रावप आनी एका जाग्यार शांत उबो रावप हातूंतलो फरक पळय. ह्यूइ, तूजेखातीर उलवप सोपें, पूण हांव तुकां विस्वासान सांगतां, कलेक मानवी श्रमाची प्रतिश्ठा मेळटा तेन्नाच अशे खीण येतात. आतां तूं बडबड बंद कर, हांव कामांत आसां. एक सिगरेट ओड आनी ओग्गी बस.''

कांय वेळान एक नोकर आयलो आनी फ्रेम तयार करपी ताचेकडेन उलवंक सोदता अशें ताणें ट्रॅवराक सांगलें.

''ह्यूइ, पळशीबी तूं,'' ताणें भायर वतां वतां म्हळें, ''हांव एका मिनटांत येतां.''

ट्रॅवराचे गैरहाजिरीचो फायदो घेवन म्हातारो भिकारी आपल्याफाटल्यान आशिल्ल्या एका बांकार विसव घेवंक लागलो. तो सामको असहाय आनी दुखेस्त दिसतालो देखून ह्यूइक ताची काकळुट आयली.

ताणें आपलीं बोलसां सांसपिलीं. ताका आपल्या बोलसांनी फक्त एक भांगराचें आनी कांय तांब्याचीं नाणीं गावलीं.

''म्हातारो बाबडो,'' ताणें मनांत विचार केलो ''ताका म्हजेपरस हांची चड गरज आसा, पूण हाचो अर्थ म्हाका पंदरा दिस घोड्यां गाडयेबगर चालत भोवचें पडटलें.'' तो स्टूडिओच्या दुसऱ्या अर्दान गेलो आनी ताणें भिकाऱ्याच्या हातांत भांगराचें नाणें दवरलें.

म्हातारो अजाप जालो आनी ताच्या बाविल्ल्या ओठांचेर एक फिकटसो हांसो येवन गेलो. ''दिनवास,'' ताणें म्हळें. ''पात्रांव! दिनवास.''

तेन्नाच ट्रॅवर भितर सरलो. आपले करणेचेर मात्सो लजेवन ह्यूइन ताका आदेवश केलो. ताणें पुराय दिस लॉरा वांगडा सारलो, आपल्या नाका आशिल्ल्या वायफळ खर्चाक लागून तापोवणीं खालीं, आनी ताका चलत घरा वचचो पडलो.

त्या रातीं सुमार इकरा वरांचेर तो भोंवत भोंवत पॅलेट क्लब हांगा पावलो. थंय धूम्रपान कक्षांत एकटोच बसून 'हॉक अँड सेल्त्जर' पियेतना ताका ट्रॅवर दिश्टी पडलो.

''आरे ॲलन, तुजें तें चित्र काडून जालें काय ना?'' आपली सिगारेट पेटयत ताणें विचारलें.

''चित्र काडून जालें आनी फ्रेम लेगीत केलें ईश्टा.'' ट्रॅवरान जाप दिली: आनी, आरे हां, तुवें एक जैत मेळयलां. तो म्हातारो मॉडेल तुजी सामकी भक्ती करता. म्हाका तूजेविशीं ताका सगळें सांगचें पडलें, तूं कोण , खंय रावता, तुजी येणावळ कितली, तुजें भविश्य कितें...''

''म्हज्या मोगाच्या ॲलन,'' ह्यूइ आड्डुलो, ''घरा पावतां पावतां तो म्हजी वाट पळयत थंय उबो आसतलो. पूण हांव जाणां तूं म्हजीं फकाणां करता. बाबडो दुखेस्त म्हातारो! घडये म्हज्यान ताचेखातीर कितेंतरी करूंक येतालें! कोणूय असो दयनीय आसचो हेंच म्हाका भयानक दिसता. म्हजेलागीं पोरन्या कपड्यांची रास पडल्या... तुकां दिसता तो तांतले कांय घेतलो? ताच्या कपड्यांची तर बोतरां जाल्यांत.''

''पूण त्याच कपड्यांनी तो सोबून दिसता,'' ट्रॅवर उलयलो, '''फ्रॉक कोट' घातिल्लें ताचें चित्र काडप म्हज्यान जांवचेंना. जाका तूं बोतरां म्हंटा तो म्हजेखातीर रोमांस, जें तुकां दळीद्र दिसता, तें म्हजेखातीर एक अलंकारिक चित्र. सोड, हांव सांगतां ताका तुज्या प्रस्तावाविशीं.''

''ॲलन,'' ह्यूइन म्हळें, ''तुमकां चित्रकारांक काळीज ना.''

''कलाकाराचो मेंदू हेंच ताचें काळीज, ट्रॅवरान जाप दिली,'' आनी तेभायर आमचें काम म्हळ्यार जसो दिसता ते भशेन संवसारकाक जाणून घेवप, आमकां खबर आसा तेप्रमाण तो सुदारप न्हय. जाचें काम ताणें करचें. बरें, म्हाका सांग लॉरा कशें आसा? म्हातारो मॉडेल तिचेविशीं बरीच चवकशी करतालो.

''तुवें ताका लॉराविशीं लेगीत सांगून उडयलें अशें न्हय मरे?'' ह्यूइन विचारलें.

''हां, हांवें सांगलें. तो फातराकाळजाचो कर्नल, सोबीत लॉरा आनी धा हजार पावंड हांची सगळी काणी हांवे ताका सांगली.''

''तुवें त्या म्हाताऱ्या भिकाऱ्याक म्हज्या खाजगी प्रकरणांविशीं सांगलें?'' रागान तामडो जायत ह्यूइ आड्डुलो.

''म्हज्या मोगाळ भावा,'' हांसत हांसत ट्रॅवर उलयलो, ''जाका तूं म्हातारो भिकारी म्हंटा तो युरोपांतलो सगळ्यांत गिरेस्त मनीस. आपल्या खात्यांतल्यान चड पयशे काडीनासतना तो फाल्यां पुराय लंडन शार विकतें घेवंक शकता. दरेक राजधानींत ताचें घर आसा, तो भांगराच्या ताटांनी जेवता आनी जाय तेन्ना रशियेक झुजांतल्यान थामोवंक शकता.''

''कितें सांगता रे तूं!'' ह्यूइन अजापान म्हळें.

''आनी कितें सांगुं,'' ट्रॅवर उलयलो, ''आयज तूं स्टुडियोभितर ज्या मनशाक मेळो तो बॅरन हॉस्बर्ग. तो म्हजो लागींचो इश्ट. म्हजीं सगळीं चित्रां आनी हेर कामां विकत घेता. एक म्हयन्याआदीं ताणें म्हाका ताचें भिकाऱ्यावरी चित्र काडपाचें काम दिल्लें. तूं कितें समजला? एका करोडपतीची विलक्षण कल्पना! आनी हांव तुकां सांगतां, तो त्या बोतरांनी वैभवशाली दिसतालो, वा घडये, म्हज्या बोतरांनी, कारण हांवें स्पेनांत घेतिल्लो म्हजो पोरनो सूट ताणें घाल्लो.''

''बॅरन हॉस्बर्ग!'' ह्यूइ आड्डुलो, ''हे देवा ! ताका हांवें एक भांगराचें नाणें दिलें!'' उलयतां उलयतां, निरशेवन ताणें थंयच वोल्तेरार घालून घेतलें.

''ताका भांगराचें एक नाणे दिलें!'' ट्रॅवर उलयलो आनी मोट्यामोट्यान हांसूंक लागलो. ''भावा म्हज्या, तुकां तें नाणें परत केन्नाच गावचेंना. ताचो वेवसाय म्हळ्यार दुसऱ्यांच्या दुडवांनी संपत्ती जोडप.''

''म्हाका दिसता तुवें म्हाका पयलीचं सांगूंक जाय आशिल्लें, ॲलन,'' ह्यूइन नाराज जायत म्हळें, ''आनी म्हाका असो मूर्ख जावपांतल्यान थांबोवपाचो.''

''बरें, ह्यूइ, पयले सुर्वेक,'' ट्रॅवर उलयलो,

''तूं असो विचार केल्याबगर भीक दितलो अशें हांवें चिंतूंक लेगीत ना. तुवें एखाद्र्या सोबीत मॉडेलाचो उमो घेवप हांव समजूंक शकतां, पूण एका विद्रुप दिसप्याक तूं भांगराचें नाणें दितलो... सोपूत घेवन सांगतां, मातुय ना! तेभायर म्हज्या घरांत हांव कोणाकूच मेळचोना अशें हांवें चिंतिल्लें; आनी तूं आयलो तेन्ना हॉस्बर्गाक ताचें नांव सांगिल्लें आवडटलें काय ना हाचोय म्हाका दुबाव आशिल्लो. तूं जाणांच, तो आपले सदचे मुस्तायकेंत नाशिल्लो.''

ह्यूइन म्हळें, ''ताणें म्हाका कितलो बोंडेर समजला आसतलो.''

''मातुय ना. तूं गेल्या उपरांत तो चडूच उत्तेजित जाल्लो. बरोच वेळ तो मंद हांसत आपले मिरयो पडिल्ले हात चोळीत रावलो. म्हाका समजनाशिल्लें, तूजेविशीं जाणून घेवपाची ताका इतली उमळशीक कित्याक? पूण आतां म्हाका स्पश्ट जालें. तो तुवें दिल्ल्या नाण्याचो तूजेखातीर निवेश करतलो, ह्यूइ, दर स म्हयन्यांनीं तुकां कळांतर दितलो आनी ताचेलागीं रातच्या जेवणाउपरांत सांगपासारकी एक भांडवलाची काणी आसतली.''

''फुटक्या नशिबाचो सैतान हांव,'' ह्यूइ गुरगुरलो, ''आतां हांवें घरा वचुन न्हिदप हेंच बरें. आनी म्हज्या मोगाळ ॲलन, तूं हें कोणाकूच सांगू नाका. आतां हांव कोणाकूच तोंड दाखवपाइतलो लायक ना.''

''मूर्खपणा! हातूंतल्यान तर तुजी बेस बरी दानत दिसता. राव, धांव नाका, आनीक एक सिगरेट ओड, लॉराविशीं तुकां जाय तें, काळीज उक्तें करून उलय.''

पूण ह्यूइक थंय राव नज जालें, तो खिन्न जावन चलत घरा गेलो. ॲलनाक हांसपाचे झटके येतासतना थंयच सोडून.

दुसरे दिसा सकाळीं तो ब्रेकफास्ट करतना ताचो नोकर एक कार्ड घेवन आयलो. ताचेर बरयल्लें, ''श्री गुस्ताव नॉडीन, श्री बॅरन हॉसबर्ग हांचे वतीन.''

''म्हजेकडल्यान माफी मागून घेवच्यापासत आयला आसुंये,'' ह्यूइन स्वताकूच सांगलें आनी त्या पावण्याक वयर घेवन येवंक नोकराक फर्मायलो.

भांगराचे फ्रेमीचें वक्ल लायिल्लो, रुप्याकोराच्या केसांचो, एक सभ्य दिसपी जांटेलो भितर सरलो आनी कांयसो फ्रेंच हेल कडीत ताणें म्हळें, ''श्री अर्स्किन हांचेलागीं उलवपाचो भौमान म्हाका प्राप्त जाला?''

ह्यूइन मान बागयली.

''म्हाका बॅरन हॉस्बर्ग हाणीं धाडला,'' तो उलयत रावलो, ''बॅरन...''

''हांव तांची माफी मागतां अशें तुमी तांकां कळयल्यार भोव उपकार जातले,'' ह्यूइ उलयतां उलयतां गागयो जालो.

मंद हांसत तो सभ्य दिसपी जांटो उलयलो, ''बॅरनान हें पत्र तुमकां दिवपाचें काम म्हजेर सोपयलां,'' आनी ताणें एक सीलबंद लाखाटो ह्यूइक दिलो.

लाखाट्याच्या भायर बरयल्लें, एका म्हाताऱ्या भिकाऱ्याकडल्यान ह्यूइ अर्स्किन आनी लॉरा मर्टन हांकां लग्नाची भेट. आनी भीतर आशिल्लो धा हजार पावंडांचो चेक.

तांच्या लग्नांत ॲलन ट्रॅवर धेडो आशिल्लो आनी बॅरन हॉस्बर्ग हाणें ब्रेकफास्ट पार्टेवेळार भाषण केलें.

''करोडपति मॉडेल,'' ॲलनान म्हळें, ''सामके दुर्लभ, पूण सोपूत घेवन सांगतां, ताचेपरसूय दुर्लभ, आदर्श करोडपती.''

संपर्क : 9820654233



*(पान १५ वयल्यान)*

शेकशेकें खावपाचें. कितलें बरें लागता सांगू! वा!. सामकें सशाच्या मटणांभशेन. सादारण मोठ्या मोरयेच्या पोटांत लेगीत कांय न्ही करुन पन्नाशेक पिलां आसतात.''

''हो खुबो पळय! चुकून भरतेच्या वेळार तो रांपणींत सांपडलो. ना तर ताचो जागो खोल रेंवेत!''

''हे खुबे कशे काडटात?''

''काळे, लाळये खुबे न्हंयत चिखलांत सांपडटात. आनी हे तांबडे आनी निगूत खुबे रेवेंतल्यान काडटात. सुकती येवन भाटी पडली कीं विळो घेवन त्या भाटयेर वचपाचें आनी विळ्याच्या तोंकान रेवेंचेर तोपून रिस्को ओडल्यो कीं पयले वा दुसरे रिस्के भितरच खुबो मेळटा. पळय हाचे शिंपयो तांबड्यो आनी गोबरा कोराच्यो आनी व्हडल्यो आसात. हाचीं कालवां खावपाक गोड! लाळया खुब्याचीं कालवां पचपचीत!''

नुस्त्याच्या कंत्राटदारांचो सौदो गोंयदाकडेन जाल्लो आनी नुस्तें विकपाक येवपी बायलो पांटी भरुन भरुन बाजाराकडेन वचूंक लागिल्ल्यो.

''हें शेतूक पळय! न्हंयतलें शेतूक दर्यांत कशें पावलें कोणाक खबर!''

हांव त्या शेतकाकडेन कितलो तरी वेळ पळयत रावलों. ताचे फाटीवेले ते रुप्याचे तिबके सामके चकचकताले.

''पूण हीं शेतकां खावचीं खुटावणेचीं!''

''खुटावणी म्हळ्यार कितें रे?''

''आरे! न्हंयक जोरगतीचें उदक चडटा न्ही. उमाशेच्या जोरगतीचें उदक तर तुमच्या गोठ्याच्या दारामेरेन पावता तें तुका खबर आसाच. पूण उदक पुराय भरुन जालें कीं पागपी लोक बेगीन बेगीन मोठे खुंट न्हंयचे देगे पासून मातशे पैस पुरतात आनी ताका इंचाच्या अंतराचेर विणिल्लें जाळें बांदतात आनी उदक सुकून गेलें म्हण्टगीर भरतेबराबर उदकाचे फेस खायत आयिल्ली, झोंपाक रावपी, रुचीक-सुवादीक नुस्तें जाळ्यांत घुस्पून उरता. तातूंत घोळशी, खरचाण्यो, शेतकां, वागयो, सुंगटा काळांदुरा आनी पालू अशी बरीं आनी नुस्तेकारांक पैशे मेळोवन दिवपी नुस्तीं मेळटात.''

इतल्यान एका पाटल्यांत बरे आनी ताजे विसवणाचे कळावे घेवन गोंयदा म्हजेकडेन आयलो आनी ते म्हाका घेवन वच म्हणपाक लागलो.

''च्या घेतात न्ही? तीनाक वचपाक जाय तुमकां!''

''आं हय ! म्हणजे बरोच वेळ दोळो लागलो तर म्हणपाचो म्हाका.''

पूण म्हज्या सपनाळ्या देसांत हांव कितें पळयतालों तें तिका हांवे सांगलें नां. ताचो कांयच उपेग जावंचो नासलो. तिचें मन तांतूत रमपाक नासलें. म्हज्या खोशयेन ती वांटेकार जावपाक शकपाक नासली.

संपर्क : 9923306751



# आवाजाच्या जगांत शेणिल्लें... हांव

**शकुंतला भरणे**



गायिका, लेखिका ह्या नात्यान जेन्ना निवेदिकेची भुमिका आकाशवाणीचेर करतां तेन्ना ह्या श्राव्य माध्यमाक वेवस्थीत समजून घेवप, हाचो अभ्यास करप, मंथन करप गरजेचें आसा हें म्हाका गांभीर्यान जाणवत रावता. गाण्याक रियाज लागता, रियाजान जसो आवाजाक आकार येता तशेंच निवेदनाच्या रियाजानय आवाजाक एका प्रकारची थीरताय येता. आवाजाचो थ्रो म्हणल्यार फेंक हो एक मोठो अभ्यास, जातूंत एक नजाकत, गोडवो, कलात्मकता आनी आत्मविश्वासाचें बळगें आसता. आमचो सगळो ताण पयस दवरूनच आमकां मायका मुखार वचचें पडटा. कारण जशें आमचें मन वा मूड आसतलो तशें आमचें सादरीकरण जातलें. आमचें तोंड हांसतें आसलें काय आपसूकच ताचो प्रभाव आवाजाचेर पडटलो. आवाजांत प्रसन्नताय आसतली, मनोरंजक आनी उत्साही दिसतलो.

श्राव्य माध्यम आशिल्ल्या कारणान आमच्या मनांत जी भावना आसता ती तश्शाक तश्शी त्या खिणाक व्यक्त जातनाच आयकुप्यांच्या काळजांत भिनोवपाक जाय आसता. भावनेची येदी शक्त आमच्या आवाजांत आसचीच पडटली.

ह्या लेखाचो पयलो वांटो मार्च २०२१ च्या अंकांत उजवाडायला. आता उरिल्लो वांटो हांगा उजवाडायतात.
- संपादक

निवेदिकेचे सेवेक भास हें माध्यम खूब म्हत्वाचें. भासशास्त्र शिकून घेतलें म्हणून ती बरी उलोवपाक जमतली म्हणपाची खात्री ना. अस्खलीत भास शिकूनच येतली अशें म्हणपाचेंय ना. तेपरस आमच्यांतल्या संस्कारांनी आनी योग्यतायेन तशेंच अणभवांतल्यान ती येतली आनी भास सादर करपाचे ताकदीन ती अदीक खुलून दिसतली. अशे तरेन उलोवपाचे भाशेचेर प्रभुत्व येवपा खातीर ती भास सतत आमच्या नित्य प्रयोगांत आनी प्रयोगात्मकतेंत आसप हेंय खूब गरजेचें अशें म्हाका दिसता. आनी हें काम आमच्या नेमाचो एक भाग जाल्ल्या कारणान सदांच हो प्रयोग करपाचो योग येत रावता आनी तातूंतल्यान आमी शिकत रावतात.

सामान्य गिन्यान हें आमकां आसचेंच पडटा. आपणा भोंवतणच्या संवसारांत दीसपट्ट्या घडटल्या घडणुकांची म्हायती तर आमकां जायच. तातूंतल्यानच आमच्या विचारांक घटाय मेळटा आनी संवादांतल्यान तांचें प्रकटीकरण जाता आनी आयकुपी खूश जातात.

आकाशवाणीचेर प्रत्यक्ष लायव वचपाक आमचें मन एकाग्र जाय. खूब फावटीं आमी बरोवन सादर करतलीं म्हणपाचें उपकारा पडना. अकस्मात एखादी घडणूक घडटा वा एखादें उतर याद जायना तेन्ना ती सुवात कशी भरून काडप वा ताका पर्यायी उतर कशें जुळोवन घेवप हीय एक कला निवेदकांनी समजून शिकून घेवपाक जाय. नाजाल्यार आमी निवेदक वाऱ्यार उलयतात तेन्ना आडखळून उरत जाल्यार सुजाण आयकुपी रोखडोच समजता, हो निवेदक तयारी करून येवूंना. अशा वेळार आमकां जें उलोवपाचें आसा तें सगळें बरोवन काडप आनी वाचप हेंच योग्य. सुदैवान माचयेर उलोवपाचें वा सार्वजनीक मळार उलोवपाची म्हाका आदीं सावन संवंय आशिल्ल्यान म्हाका ह्यो आडखळी उपरासूंक नात.

स्वर आनी संभाशण ही एक कला. आनी ती कला मायका कडेन इश्टागत करूनच सोंपेपणान जमतली. आवाज बरो आसलो म्हणून जायना तर तो बरो आयकुपाक येवंक जाय. देखून कांय तांत्रीक गजाली समजून घेवप तितलेंच गरजेचें.

प्रसारणाक योग्य आवाज आसा म्हणूनच तर आकाशवाणीच्या माध्यमान आपणाक निवेदक म्हण निवडला हाची जाणीव दवरूनच आत्मविश्वासान आकाशवाणीचेर निवेदन करपाक जाय.

उच्चार निर्मळ आनी स्पश्ट आसप ही तर निवेदन करतल्या कोणाचीय मुळावी गरज, देखून ते नदरेंतल्यान ओमकाराची मेहनत, स्वरांचें आनी उतरांचें ब्रह्मांड म्हणल्यार कितें तें समजून घेतना हांव भासशात्राचे मुळावे नेम जे आमकां उच्चारपाक लागतात ते खूब फावटीं वाचीत रावलें आनी जाणकारां कडल्यान समजून घेत रावलें, जाका लागून आत्मविश्वास वाडूंक बरो पडलो.

| | |
|---|---|
| ओष्ट्य | प फ ब भ म |
| दन्त्य | त थ द ध न |
| तालव्य | च छ ज झ ञ |
| मुर्धन्य | ट ठ ड ढ ण |
| कंठ्य | क ख ग घ ङ |
| नादमयी | य र ल व श ष स ह ळ क्ष ज्ञ |

दर एका निवेदकान हीं तंत्रां शिकूंकच जाय. जाका लागून आपल्या उच्चारणात भासशास्त्राची बैठक आपोआप बसता. उच्चारांची शुद्धता आपसूकच येता.

ह्या संदर्भांतलें भरपूर वाचन, आयकप आनी पळोवप हातूंतली गोडी हावें म्हाका लावन घेतली. म्हज्यांत बरे संस्कार बळावचे म्हण तरेकवार कार्यावळींनी हाजेरी लावन विचार पुंजायत गेलें आनी म्हजें म्हाका घडोवपाचो सतत यत्न करीत रावलें.

आवाजाचें तंत्र आनी योग्य अशी नजाकता प्रसारणेचे योग्यतेक आसची पडटा ती निवेदकान आपणावपाक जाय.

श्राव्य-माध्यम आशिल्ल्यान ध्वनी-यंत्रणा म्हणल्यार मायकाचें अंतर जाय तितलें कशें दवरप हेंय शिकून घेवप म्हत्वाचें. हेडफोन कानाक लावन आपलो आवाज वाऱ्यार कसो वता हें आयकत रावप गरजेचें. म्हज्यो गुरू आक्काजी सांगताल्यो रियाज करतना आपलो रियाज आयकत चल. आपलो रियाज आपणे आयकप म्हणल्यार आपलेंच आपणे चिकित्सक जावप आनी समादान जायीसर तो स्वर

वेगवेगळे रितीन लावून पळोवप आनी बरो दिसता, समादानकारक जाता तोमेरेन सराव करीत रावप. म्हाका असल्या म्हान मनशांचो सहवास लाभिल्ल्यान ते नदरेंतल्यान विचार करपाची तांक निर्माण जाली आनी हेंच तत्व हावें म्हजे परीन म्हाका लागू केलें आनी दरेक गजाल तितलेच गंभीरतायेन घेवन ती सादर केली.

आपलो आवाज आपणेच आयकप, स्टुडीओंतल्यान जनते कडेन उलोवप, आमचे आकाशवाणीचें ब्रीदवाक्य - बहुजन हिताय बहुजन सुखाय. म्हणटकच भौसाच्या कल्याण खातीर ही आकाशवाणी. सत्यम् शिवम् सुंदरम् हें तत्वूय हावें म्हज्या नित्याच्या निवेदनात लागू केलें.

निवेदकाक गरजेचे अशे हे गूण हावें नित्य उद्घोषणात लागू केले ते - आपली मर्यादा जाणून घेवप, आवाजाची क्षमता आनी आवाजाची शक्त श्राव्य-माध्यमाक योग्य असोच आवाज बंद स्टुडिओंतल्यान नजाकतदार येतलो हाची खात्री करप.

तमाम आयकुपी लोक-वेगवेगळे तरेचे आसतात. तांची अपेक्षा, रूच वा समजून घेवपाची तांकत वेगवेगळी. ते नदरेंतल्यान विचार करतना थोडिशी सहजता हाडली. म्हणजेच सामको उपचारीक आवाज लावचे परस थोडेशें अनुपचारीक रावलें. ताका लागून सहजता आयली आनी घराघरांत वाजपी रेडियो, आपल्या घरांत कोणतरी उलयता अशें भासचें हे नदरेंतल्यान विचार केलो.

मनाची निर्मळताय - मनाची निर्मळताय आपसुकच व्यक्तिमत्वांत देंवता आनी मुखामळार झळकता हाची जेन्ना म्हाका खात्री जाली तेन्ना म्हाका दिसलें म्हज्या आवाजांतल्यान सभावाची ही निर्मळताय आयकतल्यांक सहजतायेन भासूंक जाय. म्हणून हें पावित्र्य म्हज्यांत आसपाकूच जाय हें हावें थारावन उडयलें.

आपली भलायकी बरी आसप हेंवूय तितलेंच गरजेचें. बरी भलायकी उरपाक मानसीक स्वास्थ्य बरें उरपाक जाय. तें उरतलें जाल्यार जगताना कांय शिस्ती जबरदस्तीन काय जायना पूण त्यो लावन घेवंक जाय. फांतोडेर पाच वरांचेर जेन्ना हांव आकाशवाणीचेर ड्युटी करपाक वतां तेन्ना वेवस्थीत रेडी जावनूच वतां. न्हावप, धुवप, नितळ कपडे घालप ह्यो साद्यो पूण मुळाव्यो अशो शिस्तीच्यो गजाली. तशेंच सभोंवतालचें वातावरणय प्रसन्न आनी पवित्र दवरप. ह्यो सगळ्यो गजाली भलायकेक सवस्थकाय मेळपाच्या खात्यांत येतात. वेद शास्त्रांतय त्यो बेस बरे तरेन सांगल्यात. त्यो आमी बरे तरेन पाळपाक जाय.

खंयचीय कला आमी सांबाळटलीं जाल्यार वा तिची उदरगत साधतलीं जाल्यार आपणाकडेन आनी लोकां कडेनय प्रामाणीक रावप खूब म्हत्वाचें. हें सगळें सांबाळटाना भोंवतणच्या वातावरणाचो त्रास जावूं पूण आपणाले भितरले कलेची योग्य अशी तांक वाडोवपाक ताची खूब मजत जाता. उलोवपाचे कलेंतलें शास्त्र आमकां सांगता १. सत्य उलयात. २. दुसऱ्यांक आनंद जाता तशें उलयात. दोश सांगनासताना सगळें प्रीय उलोवप असोय हाचो अर्थ न्हय. तर दुसऱ्याक खूश करपा खातीर असत्याचो आदार घेवचो न्हय. ३. उतरांचो उच्चार जितलो निर्मळ आनी खणखणीत आसतलो तितलेंच तीं उतरां निर्माण करपी मनय निर्मळ आनी पारदर्शी आसचें.

तात्पर्य आपणाक कितें म्हणपाचें आसा हाची जाणीव आसप म्हत्वाचें. उलोवपाची कला म्हणल्यार आमची भास. भाशेची सहजता आनी आमचें उलोवप हें मनशाक मेळिल्लें एक सैमीक वरदान.

१) आमी उलयतात ती भास आमकां वेवस्थीत वापरूंक येवंक जाय.

२) आमचे भाशेचेर वेगवेगळे संस्कार जायत आसतात, तार्चीं नोंद घेवून आपले आपणे जाणीवपुर्वक कांय गजाली आपणावप वा वायट आसात असें दिसल्यार चाळप हेंवूय करूंक जाय.

३) कुटूंबांतली भास म्हणजेच उलोवपाची तरा, उतरांची फेक योग्य रितीन जावप हो तर मुळावो नेम देखूनच परत परत सांगन दिसता.

४) उपचारीक शिक्षण घेतात थंयची भास, वातावरण ह्यो गजाली.

५) ईश्ट-मित्रांचो जाल्लो प्रभाव.

६) वाचन, प्रसार माध्यमांचो जाल्लो प्रभाव.

७) कळून-नकळटाना जाल्ले संस्कार.

आवाजाचेर जायत आसतात. हाची जाणविकाय, ह्यो सगळ्यो गजाली खास करून बंद स्टुडिओंत बसून उलोवपी निवेदकांनी लक्षांत दवरप खूब गरजेचें. देखून हावें म्हजे खातीरूच घालून घेतिल्लीं कांय बंदनां हांगां मांडल्यांत. एखाद्या संदर्भ ग्रंथाचो बी आदार घेवंना. कारण सुस्पश्टता, योग्य गतीन उलोवप, आघात वा जोर दिवपाचो आसा थंयच जोर दिवप ह्यो गजाली आपसूक जमनात. आपणे अभ्यास करूनच आंगवळणी हाडच्यो पडटात. केन्नाय एकसुरो आवाज आयकलो काय तांचें संभाषण आयकुपांतलो रस वता. मागीर तातूंतलो आशय कितलोय आपले आवडीचो आसूं. म्हणूनच तर वेवस्थीच उतरांनी दुसऱ्यां मेरेन पावोवप हें सामकें म्हत्वाचें.

परिपुर्ण आवाजाचीं खाशेलेपणा दाखोवपी गूण आवाजांत आसचे अशें सांगलां. १. ताकतवान २. स्पश्ट ३.गोड ४. गोल ५. अतूट ६. कंपत ७. मोठो आनी ८. श्रवणीय

हे गूण गावप्याक तशेंच अभिनेत्यां मदींय आसप म्हत्वाचें. संगीताचो रियाज करता तसोच उलोवप्याचे कलेचो सराव करून ताका वळणदार करपाकूच जाय.

आवाजांत सहजताय येवपाक १. हारसो मुखार दवरून उलोवन पळोवप २. एकूच वाक्य वेगवेगळे पट्टेन म्हणून पळोवप ३. एकूच उतर भावनेचीं वेगवेगळीं आंगां लावून उच्चारप

ह्यो सगळ्यो गजाली गंभीरतायेन हावें अभ्यासल्यात आनी तांचो प्रयोग स्टुडियोंतल्यान वाऱ्यार वतना करून पळयला.

गानसरस्वती किशोरीताई आमोणकार रियाजाचें तत्व सांगताना म्हणटाल्यो, स्वर म्हणल्यार कितें? स्वर म्हणल्यार हवा. स्वर-यंत्राची येवजण परमेश्वरान गळ्यांत घालून दिल्या ताका संस्कार करीत रावप आनी आपल्या आवाजांतलें खाशेलेपण जपप. ह्या गजालींनी आशिल्लें सत्य सोदीत रावतना म्हज्या गुरूजनानी दिल्लो कानमंत्र हांवें पिश्यां भशेन म्हज्या नित्य जीवनात कलेचो सांबाळ करताना जिणेकय लागू करपाचो प्रामाणीक यत्न केला. आवाजाची साधना करतना खंयचीय कला आपणायतलो जाल्यार आमकां शीस्त आसप खूब गरजेचें. शिस्तीक

पर्याय ना. भरपूर श्रवण करप तितलेंच म्हत्वाचें आसा. श्रवण करतकूच आमी बऱ्योचशो गजाली जाणीवपुर्वक रितीन आमचे कलेचेर संस्कार घालूंक पावतात. आनी कितें बरें कितें वायट तें समजून घेवपाक योग्य चिकित्सक जावंक पावतात.

हे संस्कार घालतना कशें बसप, कशें उबें रावप आनी कशे पद्दतीन आपूण आकर्शक दिसता तशें करप, एक कलाकार ह्या नात्यान आपणे आपणाक आकर्शक दवरप. हें सगळें करतना जाणून बुजूनच आपणे आपणाचेर संस्कार करून घेवपाचे आसतात.

आकाशवाणी सारक्या वैभवसंपन्न आनी परिपक्तेची वाट चलपी माध्यमात निवेदिकेची नोकरी करप आनी तिवूय अत्यंत जापसालकेन करप ही तशी सोपी गजाल न्हयच. दर दिसा आपणे आपणाक अपडेट आनी अप-टू-डेट करचेंच पडटा. हें करतना म्हाका म्हज्या भुरगें पिरायेंतले संस्कार, संस्कृतिची आशिल्ली जाणविकाय आनी शास्त्रीय संगीत शिकपाचो म्हजो काळ, तातूंत म्हज्या गुरूजनानी म्हजेर घाल्ले संस्कार आनी ह्या सगळ्या गजालींक जोड म्हणल्यार हावें तांचेर केल्लो विचार आनी मंथन हाका लागून म्हाका म्हजें हें आमचें स्थान म्हत्वाचें दिसता. आनी म्हजे कडेन आशिल्ल्यो कांय गजाली नवे पिळगेकय दिवंच्यो आनी त्यो आपणावच्यो अशें मना पासून दिसता. म्हणून म्हजो अणभव सांगलो.

निवेदिकेची नोकरी, गायनाचो आनी आवाज शास्त्राचो रियाज, संगीताच्यो कार्यावळी आनी तातूंत म्हजो संसार, म्हजीं भुरगीं, तांचो फुडार ह्यो सगळ्यो गजाली साकारत साकारत म्हजो दीस केन्ना उजवाडटा आनी केन्ना रात जाता हाचो पत्तो लागना. पिरायेचीं पन्नास वर्सां हुपतकच आतां हांव जाणटें जावंक लागलां आनी म्हज्या म्हत्वाच्या पदाचेर थीरावपाक हो प्रवास घडयलो. ते योग्य दिकेनच म्हजी वाटचाल चलल्या अशें हांव मानतां. आवाज म्हणल्यार म्हज्या संगीताचें, नाटकाचें आनी कवितेचेंय विश्व! ह्या आवाजाची पहचान जावपाक म्हाका आवाजाच्या तंत्रांत शेणपाक सदांच आवडटा आनी आवडटलें!

म्हाका म्हज्या नोकरेच्या आनी सांगातान जिविताच्या आनी कलेच्या प्रवासा कडेन पावोवपी जाग म्हयनाळ्याच्या जाळवणदारांनीं ही संद आनी याद काडपाची शक्त दिली देखून मना सावन तांचे दीनवास!

संपर्क : 8888407911



---

*(पान ५ वयल्यान)*

यश मागून भास्करमाम सांगता, 'आपाचें राजकारण बरें काय वायट ह्याचेर उलोवप करपाची गरज ना, पूण 'आपा'न सुरू केल्ली ही नवी अकादेमी म्हणल्यार दिल्लींतल्या कोंकणी मनशांचें ॲचिव्हमेंटूच. आमी हांगा केरळान कोंकणी अकादेमी केल्या. कर्नाटकांत बी आसा. जाल्यार आता दिल्लीन कोंकणी अकादेमी जाता जाल्यार थंयच्या कोंकणी मनशांक आतां बरें दिसतलें. दिल्लींतले आमचे कोंकणी भावा-भयणीक आतां तांच्या हक्काचें घरूच कशें मेळ्ळे, असे म्हाका दिसता. आमी समद्यांनी तांकां ह्या कोंकणी अकादेमी खातीर जाय ती मदत करपाक जाय. तेचपरी म्हाका दिसता, देशांत हेर राज्यांत बी कोंकणी अकादेमीची स्थापणूक करपाक उमेद दिवपाक जाय, अशें बी भास्करमाम सांगता.

साहित्यिकाक राजकीय-सामाजीक भुमिका आसपाक जाय का नाका? अशें विचारल्यार भास्करमाम म्हणटा, साहित्यिकांचे समाजा कडेन नातें आसपाक जाय. समाजाची उदरगत साहित्यिकान पळोवपाक जाय. साहित्यीक हो समाजाचो म्हत्वाचो हिस्सो, मागीर ताणे समाजा कडल्यान दूर कित्याक रावपाक जाय? साहित्यीक हो जात, धर्माचो प्रतिनिधी नासता तर तो ताच्या पुराय भाशीक समाजाचो प्रतिनिधी म्हूण साहित्यांत रावता. देखून त्याच्या भाशीक समाजाची 'अपलिफ्टमेंट' ही ताची जबाबदारी आसा. ताणें समाजा खातीरच्या भुमिकेंत राजकारण हाडपाची गरज ना. आपल्या भाशेची, समाजाची उदरगत ही राजकारणा परस चड म्हत्वाची आसा, हाची जाण साहित्यकारान आपल्या मतींत सदां दवरूंक जाय.'



*(पान १ वयल्यान)*

उपेक्षा वांट्याक आयिल्ल्यान कोंकणीन खूब सोंसलें, अशें आमी म्हणटात. पूण ह्या सोंसपाचें प्रतिबिंब आमच्या साहित्यांत दिसलां अशीं कितलीं उदाहरणां आसात? उंचेले आनी उत्कट भावनीक आयाम आशिल्ल्या साहित्याची चर्चा भाशांची शीम-मेर हुपून वता. मराठींत जेन्ना दलीत साहित्याचो आवांठ गजबजपाक लागलो आणि अस्सल अणभवांच्या तिख्यान भरिल्लें साहित्य वाचतल्यांच्या हातांत पडलें तेन्ना तें मराठी पुरतेंच उरूंक ना, ताची चर्चा देशभर जाली आनी हेर भाशांतल्यान ताचो अणकार जावपाक लागलो. अशे तरेचें अस्सल अणभवांचे केळोवप आमचे मदले कितले साहित्यीक करतात काय?

गोंयचेर पोर्तुगिजांचो शेक आसप आनी पोर्तुगीज ही इंग्लिशी भशेन संवसारीक भास नासप हाचो कोंकणी साहित्यांतल्या अणकार विश्वाचेर परिणाम जाला काय? इंग्लिशींतलें साहित्य हेर भारतीय भाशांनी येवपाचें प्रमाण कोंकणींचें तुळेन खूब वयल्या पांवड्या वयलें. देशाक स्वातंत्र्य मेळ्ळे उपरांत सोवियत गणराज्यातलें साहित्य भारतीय भाशांनी येवपाक लागलें. टोलस्टॉय, दोस्तोव्हस्की हांच्या बरपाचो अणकार मुखेल भारतीय भाशांनी जाल्लो दिसता. कोंकणी त्याय मळार फाटींच उरल्या. फ्रान्झ काफ्का, जाँ पॉल सार्त्र, आल्बेर काम्यू हांचे समग्र साहित्य हे मुखार कोंकणींत येतलें अशी आस्त बाळगुपा सारखी परिस्थिती ना. आमचो दामोदर मावजो हेर भाशांनी गेलो, पुंडलिक नायकाची प्रतिभा हेर कांय भाशांक कळ्ळी हाचेर आमी तृप्त रावल्यात. ही कोंकणींचीच मर्यादा न्हीं मूं?

संपर्क : 9850693100



# भंय

**कृ. म. सुखठणकार**



**ज्या** प्रांता बद्दल आमकां चड कांय म्हायती नासता वा एका प्रकारचें गूढ आसता ताचो आमकां भंय दिसता अशें एका गूढ कथा बरोवप्यान म्हणलां. आमकां मरणाचो भंय दिसता. कारण मरतकच आमचें फुडें कितें जाता हाचे बद्दल आमकां कांयच म्हायती ना. जीएमसींत (गोंय वैजकीय महाविद्यालय) एडमीट जातकच आमचें कितें जातलें हें आमकां बेस बरें खबर आसता. पूण फुडें कितें जातलें हें गूढ आशिल्ल्यान आमकां जीएमसींत एडमीट जावपाक भंय दिसता. 'ह्याच्या आत्म्याला शांती लाभो', 'त्याच्या आत्म्याला सद्गती प्राप्त होवो' बी म्हणपाक सोपे. तें म्हणपाक पयशे पडना, दिसाळ्यांत बाराव्या दिसा भावना व्यक्त करपाक पयशे पडटात ती गजाल वेगळी. तर, आत्म्याच्यो गजाली करपाक सोप्यो. आमचो तुकाराम शिंपी 'नैनं छिन्दन्ति शस्त्राणी...' अशें म्हणत गळो कापता. मागीर भगवानान कुरुक्षेत्राचेर कितें म्हणलें तें रायबंदरा पाट्यार (गोंय ४०३००६) भाशांतर करून सांगता. केन्ना केन्ना म्हाका अशें दिसता की आमचो तुकाराम शिंपी कुरुक्षेत्रार आशिल्लो जाल्यार ओरिजिनल गीता भगवाना परस बरे रितीन सांगतलो आशिल्लो. सोड.

''अरे, अपने भाशा में समझावो इसका मतलब क्या? वही बात वहाँ भर कुरुक्षेत्र पे अर्जुन ने बोला होता तो हो चुका होता सत्यानाश. पहले संस्कृत में बोलो बाद में अर्जुन के भाशा में समझावो, भगवान के पास में इतना टायम नही होता है भाशांतर के लिए. मेरे पास है इसलिए बोलता हूं. भगवान तुम्हारी भाशा में कहतें हैं की जो आत्मा है ना उसे हम काट नहीं सकते. ऐसे जैसा मैं गला काटता हूं ना वैसे. उसे हम चाहे तो भी रॉकेल डाल के जला नहीं सकते. आज रॉकेल बाजार में नहीं मिलता जलानेको वो बात छोडो. आत्मा हम बावडी पे धो भी नहीं सकते. धो नहीं सकते तो सुकाते कैसे डोरी पे? समझे? अर्जुन के समझ आया उधर, तुम उससे होशियार हो. अब जाओ अपने घर मुझे और गले काटने हैं.।''

आमचो तुकाराम शिंपी माऊलीन शेजारच्या राज्यांत जें काम केलें तेंच काम हांगा परशुरामाचे पावन भुमींत करता. भगवंतान गायिल्लें गीत सोपें करून सांगता. तो, हें पुण्य काम राष्ट्रभाशेंतल्यान करता. राजभाशेंतल्यान कित्याक करना असो प्रस्न कोणाकूय पडूं येता. ह्या प्रस्नाक जाप आसा ती अशी. एक म्हणजे गोंयकार रेडीमेड मुस्तायकी घालता देखून गोंयकार तुकारामा लागीं येना. दोन, गोंयकाराक प्रस्न पडनात आनी पडल्यारूय उसरां पडटात. देखीक, ओपिनियन पोलाचो बापूय कोण हो प्रस्न आमी आतां एकामेकाक विचारपाक लागल्यात. चाचा नेहरुक गोंय मेकळें करपाक चौदा वर्सां कित्याक लागलीं हो प्रस्न गोंय मेकळें जावन साठ वर्सां उपरांत उपरासला. म्हणटकच गोंयकार तुकारामाक प्रस्न विचारपाचें सोड, तो कुरुक्षेत्रार आशिल्लो जाल्यार लेगीत भगवानाक प्रस्न विचारून ताची तकली जड करचो नाशिल्लो. तो आपल्या सोयऱ्यांक पयलीं मेकळो करतलो आशिल्लो आनी मागीर भगवंताक प्रस्न विचारतलो आशिल्लो. सोयऱ्यांक मेकळे करपाक गोंयकारांक गीतेची गरज बिलकूल ना. तर, गोंयकारांक प्रस्न पडल्यारूय कुरुक्षेत्राचेर गेर्र काबार जातकच पडपाचे.

''भगवन्, यद्यद् भवितुम् अर्हेत् तत् सर्वं अभूत्
कश्चिदानां पूर्णं कुलक्षयं अभवत् कश्चिदानां नामोनिषाणं अपि निशेषः
इदानीं भवान् कृपया ब्रुवताम् एतत् सर्वं किंकारणे अभूत
संक्षिप्तरुपेण कथयतु
अष्टादश अध्यायानां आवश्यकता नास्ति.''

(हे भगवान जावपाचें तें जालें. थोड्यांचें निसंतान थोड्यांचें गट्टाण जालें. हें सगलें कित्या खातीर जालें मातशें सांगा पळोवया. थोडक्यांत सांगा अठरा अध्याय नाका).

तुमचे म्हायती खातीर म्हाका जमता तशें भाशांतर केलां.

तर, मरणाचेर उलोवप सोपें. म्हाकाय भगवंता वरी आत्म्याचेर उलोवपाक येता, ना अशें न्हय. आत्मो कातरना, भिजना, पेटना, सुकना म्हणपाक ताका कितें जालां. म्हाका हांगा खोबरें फोडून सुकयता सर नाका शेवट जाता. तो आत्मो भिजोवन सुकता काय ना तें पळोवन कोणाक टायम आनी पासियेंस आसा? म्हणून हांव ओगी बसतां. जाय जाल्यार हांव खोबऱ्याचेरूच अठरा अध्याय सांगपाक शकतां. सोड.

फाटीं सावंताली व्हडली काकी भायर पडली. ताका व्हडली, मदली आनी धाकली अश्यो तीन काकी आसात. उरिल्ल्यो दोन काकी देवादयेन घटमूट आसात, तुमचे म्हायती खातीर. तर, तिका घेवन वतना, 'जब तक सुरज चाँद रहेगा सुभद्रा होनये तेरा नाम रहेगा' अशें म्हणत म्हजे कडेन पेटोवंक दिल्ले ते माराण हांवें पेटयले. हाचो अर्थ म्हाका मरणाचो भंय दिसना असो न्हय. म्हज्या बापायचें मरण आनी निमणे संस्कार हांवें म्हज्या हे दोळ्यांनी पळयल्यात. 'मरे एक त्याचा दुजा शोक वाहे अकस्मात तो ही पुढे जात आहे' अशें म्हणत ताका हांवें अग्नी दितकच, बाबुली भटान म्हाका 'शाब्बास' म्हणलें. ह्या कोवीड काळांत लेगीत ताच्या वर्सश्राद्धा दिसा हांवें दिसाळ्यांत 'ह्या कठीण काळांत सुद्धां आम्ही आपल्याला विसरलो नाही बरं' अशी जायरात दिली. ती जायरात खूब जाणांक आवडली. हो कोवीड काळ असोच उल्लो जाल्यार आमीय अशेच तरेन जायरात दितले, अशें लेगीत तांणी म्हाका कळयलें. सांगपाचो मुद्दो हें, सगलें जरीय खरें आसलें तरीय मरणा विशीं गूढ कायम उरिल्ल्यान ताचो भंय कमी जायना. म्हाका जसो सेकण्ड क्लास जिणेंत केन्नाच मेळ्ळो ना तसो स्वर्ग म्हजे खातीर न्हय हें हांव जाणा. 'हमको मालूम है जन्नत की हकिकत लेकीन दिल के खूश रखने को गालीब यह ख्याल अच्छा है'

अशें गालीबान म्हणून दवरलां. म्हणटकच आनीक गूढ! नरकांत पावत जाल्यार थंय वेवस्था कशी आसतली तें कळपाक मार्ग ना. स्वर्गाचीं वर्णनां सगल्यांनीं आपल्याक जाय ज्ञाय तशीं पितारल्यांत. नरका विशीं कोण उलयना शेवटीं नरकांतूच वच्चें आसा हें खबर आसून लेगीत. फाटीं कुडचड्यार गेल्ले कडेन सोयऱ्यान, रंभा, तिका सांगल्यार टू मिनिट नूडल्स आनी क्लियर सूप करून दिता म्हूण सांगिल्लें याद जाता. म्हाका हालींच पन्नास जालीं म्हूण सांगतकच ताणें ही म्हायती दिली.

म्हाका रातचें तीन फावटीं मागिलदारा वच्चें पडटां. उठ्ठलो जाल्यार लायट पेटोवची पडटा. हिका आनी उंदरांक त्रास जाता. फाटीं खांडोळ्यां गणपतीक प्रसाद लावंक गेल्ले कडेन गणरायान रागणें दाखयलें. भटान ताका खोदून खोदून विचारतकच ताणें (गणरायान) तो रातचो लायटी लावन आपल्या वाहनांक त्रास कित्याक दिता काय प्रस्न असो केलो. हांवें म्हजे पिराये प्रमाण प्रोस्टेट वाडिल्ल्यान (२८ gms तुमचे म्हायती खातीर) म्हाका लायटी पेटोवंच्यो पडटात अशें गणरायाच्या कानार घालें. मागीर चांदीचो प्रोस्टेट करप शक्य नाशिल्ल्यान भटान चांदीचो उंदीर करून गणरायाक अर्पण करपाक लायलो. हांवें रोखडोच नागवेंकार ज्युवेलर्स (पाटो सोडून आमची कुठेही शाखा नाही) कडल्यान चांदीचो उंदीर करून भटाक दिलो. तो चांदीचो उंदीर सद्याक कोणाचें वाहन जालां हें कळपाक मार्ग नां. सोड. तर, नरकांत वतकच म्हाका रातचें उट्रूंक मेळटलें काय ना, लायट पेटोवपाक मेळ्ळी ना जाल्यार कितले लोकांक माङ्गीत वच्चें पडटलें हें सगळें येवजून म्हाका भंय दिसता. जांकां रातचें उटचें पडना तांकां मरणाचो आनीक दुसऱ्या कारणाक लागून भंय दिसूं येता. पूण भंय दिसता खरो.

भंय मनशां भितर जल्मतांच आसता असो म्हजो अभ्यास सांगता. जल्मल्लें भुरगें काना कडेन व्हड आवाज जायत जाल्यार भियेवन आंग काडटा. मागीर हेंच भुरगें व्हड जातकच जिणेंत विंगड विंगड कारणांक लागून आंग काडीत रावता. कांय हाता भायर गेल्ले केसीनी तें आंग लेगीत सोडटा. तो आमचो विशय न्हय. हांव जातकच एक दीस आईक, आजी आटवल घेवन आयली. आईन, 'आंबली हाडली ना' अशें सहज आजयेक विचारलें. 'आटवल घटसाणी खातीर रुची खातीर करुना' अशें आजयेन वयले पट्टेन म्हणल्या बराबर हांवें न्हिदिल्ले कडेन आंग काडलें. हांवे आंग काडलां तें पळोवन 'सामको सोश्याच्या काळजाचो बाये, लग्न जातकच हाचें कशें जातलें देव जाणां' हे उतरांनी आजयेन आपली काळजी उकतायली. ते पिरायचेर लेगीत आजयेक बत्तीशी आसूंक जाय असो आतां म्हाका दुबाव मारपाक लागना. भुरगें मातशें व्हड जातकच आमी ताका काळखाचो भंय घालतात. मागीर आमी त्या काळखांत एक हावको तयार करतात. तो हावको भुरग्यांक साकान घालून व्हरता असो नाका आशिल्लो भंय ताचे मनांत तयार करून वयल्यान ताकाच सामको भिवकुटो म्हूण हिणसायतात. ल्हानपणांत जें मनार कोरतात तें पिराय वाडली तरी पुसून वचना हें हांव अणभवा वयल्यान सांगतां. म्हाका आवरे, मूग असलीं कडुणां दोळ्यां मुखार नाका. ह्या कडुणां पासून तयार केल्ले जिनस पानार आसतकच ही 'पुसून खावपाचें नाजाल्यार संडासांत बंद करून खिळी घालतली' अशें म्हणटकच आवरे, मूग आपशींच म्हजे पोटांत वतात कशे खबर ना. आमच्या संडासाची खिळी भायल्यान आनी भितरल्यान लागना हें खबर आसून लेगीत तो भंय हे पिरायेचेर पसून कमी जायना. हाचें कारण, आई, हांव ल्हान आसतना दूद पिना जाल्यार, 'कोठये कुडींत बंद करून खिळी घालतलीं' असो भंय घालताली. तो भंय मनांत अजून खंय तरी आसा. आईन केन्नाच म्हाका कोठये कुडींत घालो ना, ही कितें करीत तो नेम ना. हो भंय म्हाका सपनांत लेगीत सोडना. हिणें ताटांत मुगांच्या उसळेची एक वाटी, आवऱ्याच्या उसळेची एक वाटी अश्यो कडुणांच्या उसळेच्यो वाटयो उडपी होटेलांत मांडटात तश्यो म्हज्या ताटांत मांडल्यात, तांच्या बराबर खावपाक आदल्या दिसाच्यो कडकडीत मोडटा तसल्यो चपात्यो दवरल्यात अशें सपनांत हांव पळयतां. मागीर दावे वटेन म्हाका मागीलदार दिसता. थंयच्यान म्हाका संडासाचें उगतें दार दिसता आनी हांव घामेवन जागो जाता. तेच अवस्थेंत हांव हिका हालोवन, 'आगो आवरे, मुग बी भिजोवंक घालुना मुगो' अशें विचारतां. ही न्हिदेंतूच, 'उसळी खालीना जाल्यार संडासांत घालून बंद करतलीं' अशें म्हणून कूस परतिता. मागीर म्हजे उरिल्ले न्हिदेचें खोबरें जाता.

ल्हान आसतना भुरग्यान पानार कितेंय सांडलें जाल्यार तें ताच्या माथ्यार थापतलें असो भंय घालपाची वायट संवय सगल्या आवयांक आसता. तांकां तांचो तो भुरगो व्हड जालो हें तांच्या लक्षांत येना आनी सगलो प्रॉब्लेम जाता. कवळ्यां एकदां असोच आमच्या सोयऱ्याच्या लग्नाक गेल्लों. 'अहेर आणू नये' अशें होंवळीकेचेर नाशिल्लें म्हणटकच वयर वचून न्हवऱ्याक अहेर बी दिलो आनी बुफेचे रांगेंत उबो रावन जेवलों. दुसरे वटेन घास भरोवपाचो सुवाळो चलतालो म्हणटकच तो पळोवपाक उबो रावलों. असल्या सुवाळ्यांक बायलांची उपस्थिती चड आसल्या कारणान पळोवपाक उमेद शी येता. दोगांयनी नांव घेतलें. जांकां किटकिटपाक जाय आशिल्लें तीं किटकिटलीं. न्हवऱ्यान व्हकलेचे तोंडांत पुरी घाली. व्हकलेन न्हवऱ्याच्या तोंडांत मिरची घाली. आमी ताळयो बी मारल्यो. जोडपें मागीर एका 'स्ट्रॉं'त कोल्डड्रिंक पिलीं. फोटोग्राफरान सगल्या एँगलांतल्यान फोटे घेतले. मागीर दोगांय जाणां आपल्या हातांनी आप आपले ताटांतलें जेवपाक लागलीं. आवयन सदचे भशेन, 'सुभाश सगलें पुस्सून जेवतलो आं, शीत मदी घेवन कालय. खतखतें बी पानार सांडल्यार माथ्यार थापतलें आं' अशें म्हणू नाका, व्हंकल खखूंक करून हासली. न्हवरो अळणी तोंड करून शीत मदी घेवन कालोवंक लागलो. आवय नाकांतली नथ सारकी करीत आनी खंयतरी मिरोवंक गेली. आसूं.

लग्नां आदीं म्हजे मनांत लग्ना विशीं भंय सो उतपन्न जाल्लो. लग्नाची पिराय जातकच चले आनी चलयो लग्नाचें नांव काडल्यारूच मुरगुट्टात हें हांव बेस बरें जाणा. फुडलें फुडें अशी ताच्या फाटली भावना आसता. म्हजे मनांत भंय निर्माण जावपाक तशींच कारणां जाल्लीं. सवळें न्हेसून पुजेक बशिल्ले कडेन शेंवत्यान म्हाका दोन तीन खेप 'काकुळट बाबड्याची' अशें म्हणिल्लें. म्हणतकच म्हज्या बत्तीस किलो कुडीक लागून म्हजे मनांत न्यूनगंड सो तयार जाल्लो. निर्मात्यान दिल्ल्या

कुडीक बदल घडोवप शक्य नाशिल्लें म्हणटकच हांव शेंवतें येवचे आदींच देवाची पुजा करपाक लागलों. हाका लागून शेंवत्याचें 'काकुळट बाबड्याची' बंद जालें. फुडें कांय तेंप हांव सोयरिको जुळोवपाचें काम करतालों. खंयचेय कामाक बरे वायट हे अणभव येताच. ह्यो सोयरिको जुळयतना गाळीय खाल्यो आनी बरी उतरांय घेतलीं. तर, हांवें एक सोयरीक कुडचड्यार आमच्या नात्यां मदींच जमयली. लग्न सामकें धूम धडाक्यांत म्हणटात तशें जालें. म्हणजे जवळ जवळ धा काशी स्टँडर्ड माराण कुडचड्यार पेटले. ताका लागून मिनाच्या ट्रकांचो आवाज लेगीत आयकूंक ये नाशिल्लो अशें बाजारांत उलयताले. सोड. तर, हांव लग्नाक व्हंकलकारां वटेन आनी मध्यस्त म्हूण गेल्लों. दुसऱ्याच दिसा 'अर्जण्ट कुडचड्यार यो' असो रकाद आयलो. हांव हरी पायलट घेवन रायबंदच्यान कुडचड्यार गेलों. हरीन मोटरसायकल स्टँडार काडली तसो हांव भितर गेलों. 'पायलटाची ही कितें भानगड?' न्हवऱ्याच्या बापायन म्हाका गेट धांपतनाच प्रस्न केलो. हांवे हरी कडेन पळयलें. हरीन आपले मोटारसायकली कडेन पळयलें आनी मान हालयली. कित्याक तें म्हाकाय आनी ताकाय कळ्ळें ना.

''पायलटाची भानगड अशी आयचे तारखेक तरी ना. हरी म्हांबऱ्याल्या फार्मासी कडेन साडे आठांक उबो रावता आनी मेळटा तीं भाडीं मारता. मदीं नुस्तें घरा पावयता आनी ज्युस्त साडे बारांक डायस आण्टीक गादयेर पावयता...''

हांवें हरीलो दिनक्रम सांगपाक सुरवात केली तसो जाणटेलो आनीक तांबडो जालो.

म्हाका तुज्या पायलटाची दिनचर्या नाका! तुंवें जे चलयेक भालचंद्राच्या गळ्याक बांदल्या तिणें काल भालचंद्राक तुजे परस पायलट बरो म्हणलें खंय! खंयचो पायलट तो म्हाका खबर ना आनी जाणून घेवपाचीय इत्सा ना.

चड करून सदाशीव आसतलो. G- 01 T 1188.

हरीन मोटारसायकलीच्या नंबरा सकट म्हायती दिली.

तुमी म्हगेल्या पायलटाक च्या दियात हांव त्या पायलटा विशीं अधीक म्हायती काडटां. तांगेर चार गाडयो आनी दोन ड्रायवर आसात. हाका लागून ताका कितेंय म्हणपाचेंच आशिल्लें जाल्यार तुजे परस ड्रायवर बरो म्हणपाक जाय आशिल्लें. हांव ताचें कितें जालां तें पळयतां.

अशें म्हणून हांव सुशमाक (आब्सुलात) घेवन मागिलदारा गेलों. ताका ही सोयरीक जुळोवपाक कितले कश्ट पडल्या हाची जाणीव करून दिली. आमी कांय बारकाव्यांचेर विसतारान चर्चा करून भितर आयलीं.

हाचे फुडें, हें, भालचंद्राक तुज्या परस पायलट परवडलो म्हणचें ना हें उतर हांव ताचे वतीन दितां अशें म्हणून हांवें ते प्रकरण जाग्यार घालें. पूण तो पायलट म्हजे मनांतल्यान गेलो ना. जेन्ना म्हजे लग्नाची वेळ आयली तेन्ना तो 'दत्तऽ' म्हणून उबो रावलो. ओगीच लग्न म्हणटकच भंय सो दिसपाक लागलो. लग्न तर जावपाकूच जाय आशिल्लें. हांव आवय बापायचो एकुलतो एक आशिल्ल्यान फुडें वंशाचो दिवो पेटोवपाची जापसालदारकी म्हजे भुजांचेर आशिल्ली. ती जापसालदारकी वेवस्थीत पार पाडपा खातीर लग्न जावप गरजेचें आशिल्लें. आनी हांवें ती बरे भशेन पुरी केली ही तुमचे खातीर अभिमानाची गजाल.

तर, सोयरीक जातकच लग्नाची नोंदणी जावचे आदीं आमी एकमेकाक जाणून घेवपाचें थारायलें. ते खातीर आमी मिरामार नुस्त्या कडेन मेळपाचें थारायलें. आमची ती नुस्त्या कडेन पयलीच एकांतान भेट.

आगो, तूं पायलटा वांगडा साखळे, वाळपय, वांत्यां, फोंडा, गुळेली, सावर्शां बी गेलां गो? एकांताचो फायदो घेत हांवें प्रस्न विचारलो.

प्राणनाथ, म्हाका मोटारसायकलीचेर दोनीय पांय एके सायडीन दवरून बसपाक जायना. हांव हुळहुळपाक लागतां. दोनीय पांय दोशी वटेन घालून बसल्यार पांयांक कॅंच येता. आमचे घरा कडल्यान तुमी सांगल्या ते सुवातींचेर पांच पांच मिणटांनी बशी. मागीर हांव पायलट करून कित्याक वतलें?

म्हज्या भावी अर्धांगिनीन जाप दिली तशें म्हजें अर्दें टेन्शन ना जालें. हांगा प्राणनाथ म्हणजे हांव हें तुमकां कळ्ळांच आसतलें. म्हज्या मनांतलो लग्ना विशीं आशिल्लो तो भंय गेलो खरो. पूण कोणूय कितेंय म्हणू घोव बायलेक भिता हें शें प्रतिशें खरें. कोणूय जर आपूण भियेना म्हूण सांगता आसत जाल्यार ताका 'सजन रे झूठ मत बोलो खुदा के पास जाना है' हे चाली शिवाय तोंडार सांगचें. जांकां आवाज बरो आसा तांणी चाल लावन म्हणचें म्हजी कांय हरकत ना. 'पती पत्नी और वो' ह्या सिनेम्यांत संजीव कुमाराचे तोंडांत एक वाक्य आसा 'पहली रात जो बिल्ली मारता है वही राज करता है'. तो आपले बायलेक (सिनेमांतल्या) विद्या सिन्हाक पयल्या दिसा सावन 'बिवीऽऽ मुझे सुबह उठते ही गरमा गरम चाय चाहिए वरना...., लंच ठीक एक बजे टेबल पर लगना चाहिए वरना...' अशें म्हणून भेशटायता. तीय भियेता बाबडी. म्हाका हें शक्य नाशिल्लें ती गजाल वेगळी पूण म्हजे बाबतींत सगलेंच परतें जालें..., व्हंकल पावणी घरा आयली. आमी रातचीं जेवपाक बसलीं. हांव वरणान कालयल्लें शीत आनी वालाची भाजी चाबडायत बशिल्लों. ही पायस पियेली, पेलो धुलो आनी स्टँडार दवरलो आनी पदराक हात पुसले. 'तुमचें जातकच जाय तेन्ना येयात, हांव अमृतांजन सारोवन न्हिदतां' अशें म्हणून चालीक लागली. म्हाका कितें जालें खबर ना, हांवें म्हजे हात ताटांत फांफुडले, आंवलो आनी 'पाऊलें चालती पंढरीची वाट' तसो तिचे फाटल्यान चलपाक लागलों. फाटल्यान कोणें कोणें खूब कितें म्हणलें पूण म्हाका कांयच फरक पडलो ना. हांव फाटल्यान गेलो ना जाल्यार कितें जावं येता हे भंयानूच हांव फाटल्यान चलत रावलों तो आज मेरेन.

लग्ना आदीं सगले चले आपल्या बापायक भियेतात. हाका आडवाद आसता ना म्हणना. आयची पिळगी संवसारांत कोणाक भियेना. हांव आमचे पिळगे विशीं बरयतां. पूण मजा म्हणजे म्हाका म्हज्या बापायचो केन्नाच भंय दिसलो ना. सगल्या विशयानी नापास जावन लेगीत म्हजे प्रगतीचेर ताची सय घेतना लेगीत म्हाका भंय दिसलो ना. हाचे वयल्यान तुमकां अदमास येतलो.

सय मारतना म्हजे आळवाची खाज म्हाका खबर आसा तुजो

गुरुजी आनी म्हाका वेगळें कितें सांगतलो? तूं सी.डी. देशमुख जातलो शिकून? ना. अशे ताणें म्हणप आनी सय मारून कार्ड म्हज्या हातार दवरप. म्हाका गणिताचो भंय दिसऽ. तोय ताणें काडलो.

"हे गणिताचो आनी आयुश्याचो कांयच संबंद ना. आयुश्याचें गणीत जमल्यार पुरो."

हो त्या म्हान मनशाचो म्हज्या खातीर संदेश आशिल्लो. आज हांव ह्या आंकड्या कडेन खेळून कितलेशेच जाणांची पोटां भरतां, मजा शी (शनिवार रविवार बाजार बंद राहील).

सैमान सगल्या प्राण्यां भितर दुसऱ्या प्राण्यां विशीं मनांत भंय निर्माण करपाची तजवीज केल्या. ही वेवस्था सैमान तांचो जीव वाटोवपा खातीर केल्या. कांय प्राणी दुसऱ्याक भेश्टोवपा खातीर आकार बदलतात, शेंपडी फुलयतात, रंग बदलतात, आवाजाची पट्टी वाडयतात अशे ना ना प्रकार करतात. आमी दोन पांयाचे प्राणी हातुंतले जे प्रकार करप शक्य आसात तितलेय करतात. पूण तें जीव वाटोवपा खातीर न्हय तर दुसऱ्याचेर शेक गाजोवपा खातीर. ल्हान आसतना जाणटेले भुरग्यांचेर मस्ती केल्यार धेंगसो घालताले. आनी आमकां तांचो धेंगसोच पुरो जातालो. 'कोण रे थंय' इतलेंच म्हणल्यार पुरो सगले कडेन मागीर पिन ड्रॉप सायलेन्स. आज ती परिस्थिती उरूं ना. फाटीं हिचे महिला मंडळाची आमगेर बसका आशिल्ली. सगले मेंबर दनपारचें जेवण करून सगलें जाग्यार घालून बसकेक येतात. म्हजो तो लकणेचो वेळ. त्या दिसा हांचो आवाज मातसो चड जालो. म्हणटकाच हांवें बेडरुमांतल्यान जाता तितलो फोर्स काडून 'कोण रे थंय' म्हणलें. 'कोण कोण आयल्यांत तें भायर येवन पळयात' अशी महिला मंडळा वतीन म्हाका जाप मेळ्ळी. हांव कूस परतून न्हिदलों. हालीं अशेच जालां, कोणाक भंय म्हणटा तो उरूं ना. पोलीस बाबडे लोकांक आपलो भंय उरचो म्हूण हातांत दांडो, कमरेक पिस्तूल आनी फाटीक आर्म लावन फिरतात. तांचो चोरांक कितलो भंय दिसता हें गुन्यांवांच्या आंकड्यार नदर मारल्यार कळटा. सगल्यांचेर आपलो धाक उरचो म्हूण महादेवान आपले कपळाचेर तिसरो दोळो बसोवन घेतला. हो दोळो उगतो जावन चड कॅज्युअल्टी जावना हें आमकां पुराणा वाचल्यार कळटा. मदनाचें महादेवान दोळे उगते करून भस्म केलें. ही एक तातुंतली VIP कॅज्युअल्टी. महादेवाच्या तिसऱ्या दोळ्याचो उल्लेख शिवपुराण, वामनपुराण, कुर्मपुराण, मत्सपुराण, लिंगपुराण अश्या पुराणांनीं मेळटा. हाचे वयल्यान आपल्याचेर लेख बरोवन हाडपाची प्रथा आतांची न्हय खूब प्राचीन हें कळटा. आसूं. मनशांक तीन दोळे बसोवप आयचे तारखेन तरी शक्य ना म्हणटकच तो तें काम आपल्या दोन दोळ्यांनी करता. खास करून बायलांक आपल्या घोवाचेर धाक दवरपाक दोळ्यांचो खूब उपेग जाता. निर्मात्यान धाक निर्माण करपा खातीरूच तांकां दोळे दिल्या अशें खूब फावटीं म्हाका दिसता. तांचे दोळे आनी नाकाचो रंग पळोवन (तांबडो) घोवाचीं पावलां वांकडी पडिल्लीं आसल्यार तीं नीट जातात. आपले बायलेच्या दोळ्यांत दोळे घालून उलोवपाची कापस्दाद हाताचे बोटांर मेजपा इतले दादले करतात. हाचेर कोणाचेंच दुमत आसचे ना. हांव तरी हिच्या दोळ्यां कडेन ट्राफीक सिग्नलावरी पळयतां आनी म्हजीं गियरां बदलतां.. ही लागीं बशिल्ली आसल्यार म्हाका तें सिग्नल दिसना म्हणटकच ही दाव्या हाताचो कोपोर म्हज्या उजव्या बरगडीर मारता. एकदां तो मारून लेगीत हांवें करेक्टीव एक्शन घेतलें ना देखून हिणें तो मातसो जोर दिवन मारलो. हाका लागून म्हाका बरगड्यांचो फोटो काडचो पडलो आनी कांय दीस बरगड्यांक पाप मारून फिरचें पडलें.

कवळ्यां देवळांत 'महिलांनी ह्या बाजुला बसावे' हे दिकेंतल्यान फकत दोळ्यांनी दुसरे वटेन बशिल्ल्या घोवांच्या स्वासाचेर नियंत्रण दवरपी बायलो हांवें आनी देवतेन पळयल्यांत. ल्हानपणा सावन आवयो भुरग्यांक मस्ती बी केल्यार 'म्हज्या दोळ्यांक पळय' अशें म्हणून दोळे मोठे करून ताका भंय घालतात. फुडें भंय तोच दोळे बदलता. हिणें एकदां आपले दोळे फिरोवन देवळांत बुवांक किर्तन करतना शॉर्टकट मारपाक लायलो. इतलो हो दोळ्यांचो भंय. ताचें कितें जालें, रामाचे देवळांत किर्तन आशिल्लें. बुवान दत्तात्रैयाचे जल्माचो बरो विशय घेतिल्लो. त्याच दिसा टिव्हीचेर खंयचे तरी वाहिनीचेर 'काय बाई सांगू' चो निमणो एपिसोड आशिल्लो. हिका तें धारावाहीक कशेंच चुकोवपाचें नाशिल्लें. हे वटेन अनुसुया न्हावपाक गेली. ब्रह्मा, विष्णू, महेश तयारेन बसले. हांवूय खांब्याक तेंकून तयारेन बसलों. हिणें दोळे फिरयले काय मोठे केले खबर ना...'अनुसुया आंघोळीला गेली आनी पुढे काय झाले ते सर्वांना माहीत आहे, पांडुरंग हरीऽऽ....' अशें म्हणून बुवान सोमतीच भैरवी सुरू केली. 'तव नयनांचे दल हलले गं' हे कवितेंत अस्तुरेचे दोळे हालतकच कितें कितें जाता तें बाकीबाबान सांगलां. तातूंत बुवाचें हें प्रकरण ना म्हणून हांवें सांगलें.

मनशाच्या मनांत कसलो तरी भंय आसचो म्हणून देवाची कल्पना तयार जाली अशें म्हजें मत. आतां मनीस देवाकूय भियेना ती गजाल वेगळी. झाडाक भगवे बावटे लायले जाल्यार तें झाड कोण मारूंक वचना. ते झाडार देंवचार, म्हारू बी आसत ह्या भंयानूच ते झाडाचे वाटेक कोण वचना. थोडीं झाडां हांगा थंय उरल्यात तीं हे खातीर. राष्ट्रमतार 'पिंपळा पेडार' म्हूण स्थंभ चलतालो. हया पिपळाचेर देंवचार, भूतमावशी, म्हारू, खेतलो, मुंजो ही सगली मंडळी आसताली. हाका लगून आईन तें पान केन्राच नुस्तें उजरावपाक घेतलें ना. फातराक शेंदूर फासल्यार ताचो रोखडोच देव जाता, इतलो हो सोपो प्रॉसेस. दैत्याचो देव जावपाक मात वेळ लागता. एकदां तो (फातर) देव जालो म्हणटकच थंय फुलां, केळीं, नाल्ल, मोड बी हजेरी लायतात. उपरांत थंय ल्हानशी शेड येता आनी थंयच्यान येता वता तो आपले पोले फोडटा. दुचाकी चारचाकी बी आपले हॉर्न वाजयता. ध्रुवाक अढळ पदा वयल्यान कोणूय हालयत पूण ह्या फातराक हालोवप कोणाच्या नशिबान ना. आमच्या दुरगा कुशीक आशिल्ल्या आंबाड्याचे आंबाडे पिकून पोरोबाल्या आंगणांत पडटाले. पोरोब दांपत्य 'आंबाडो मारा आंबाडो मारा' म्हणून आमचो जीव खातालीं. त्या आंबाड्याच्या आंबाड्यांची करम दिवाळेक आमगेर स्पेशल डीश, फोव तोंडांत घालपा सारके नासतात. सुंगटां बी हाडल्यार ह्या आंबाड्याक लागून दोन उणयो पोटांत वतात. सोड. एक दीस हिणे आपली पोरणें भगवें पातळ

काडलें. तिच्यो चार पिशव्यो आनी सात बावटे केले. पिशव्यो म्हज्या हाताक तेंकयल्यो आनी सात बावटे सावळ्याक सांगून आंबाड्याक बांदून घेतले. पोरोब दांपत्यान "Question Hour' आंत विचारिल्ल्या 'Starred' प्रस्नाक हिणें 'सपनांत आपूण आंबाड्यार आसा अशें ताणें म्हाका सांगलां' अशी तोंडी जाप दिली. 'तो' कोण तें विचारपाच्या भानगडींत तीं दोगांय पडलीं ना. सांजे मिसेस पोरोबान आंबाड्या पोंदा दिवो पेटयलो. मिस्टर पोरोबान आपले दोनीय पोले फोडले. आतां रस्त्या वयल्यान वतना, आंबाडो आंबाड्यांच्या भारान रस्त्यार बागवलो जाल्यार लेगीत कोणूच ताका हात लायना. उरिल्ल्या त्या पातळाचो म्हाका दोन सदरे शिवपाचो विचार आसा ताका लागून म्हजोय आंबाडो जाल्यार जालो. आसूं.

थोड्यांक थोड्या गजालींचो भंय दिसता. देखीक, उंचाय, उदक, उजो, सुणो. ताका सायबांचे भाशेंत फोबिया म्हणटात. मनीस म्हणटकच कसलो ना कसलो फोबिया ताच्या भितर आसतलोच अशें आमी धरून चलूं येता. देखीक एक्रोफोबिया- उंचायेचो भंय, एस्ट्राफोबिया- गडगड्याचो आनी जोगलावणेचो भंय, हेमोफोबिया- रगताचो भंय, हायड्रोफोबिया- उदकाचो भंय, झुफोबिया-जनावरांचो भंय अश्या कितलेशेच फोबियांची यादी आमच्यानी करूं येता. हाचे भितर घरकान्नीच्या भंयाचो, सोयऱ्याच्या भंयाचो आसपाव कित्याक करूं ना असो प्रस्न तुमकां पडूं येता. म्हाकाय पडला कारण हे फोबिया आमकां चड सतायतात. हिका आनी म्हाका हेमोफोबिया आसा म्हणजे आमकां दोगांकूय रगताचो भंय दिसता. हिच्या बापायन 'डॉक्टर कोटनीस की अमर कहानी' (१९४६) हो सिनेमो पळयतकच, आपल्या एका तरी भुरग्याक दोतोर करचें अशें दिशिल्लें, खास करून हिका. अशें ताणें आमची सोयरीक जाली तेन्ना उलयतना सांगिल्लें. मागीर हिका तांबडी भाजी शिनतना लेगीत चीर्र जावपाक लागलें म्हणून तो विचार सोडून दिलो अशीय ताणें म्हायती दिली. हांवें म्हाकाय हेमोफोबिया आशिल्ल्यान आमची जोडी बरी जमतली अशी गोड बातमी ताका दिली. म्हाका बीट खातना चीर्र जालें म्हणून हांव वाणिज्य शाखे कडेन वळ्ळों हें सांगतकच वातावरण अधीक खेळी मेळीचें जालें. सामान्य मनशाकूच फोबिया आसता अशें ना. साने गुरुजींक (शामची आई फेम) हाय्ड्रोफोबिया आशिल्ल्या कारणान ते पेंवक शिकपाक फाटी फुडें जाताले हें शामची आई वाचतकच कळटा. थोड्यांक पावसान वचपाक लेगीत भंय दिसता हें तुमकां सांगल्यार अजाप दिसतलें हें म्हाका खबर आसा. म्हणूनूच हांव तुमकां देख म्हणून वसंत सबनीस हांणी बरयल्ल्या लावणीच्यो कांय वळी दितां.

*लईगार हा झोंबे वारा*
*अंगावरती पडती धारा*
*वाटेत कुठेही नाही निवारा*
*भिजली साडी भिजली चोळी*
*भवतील ओल्या चुका*
*अहो राया मला पावसात नेऊ नका*

भंय हो सगलो मनाचो खेळ अशें आमच्यानी म्हणू येता. मनांत जश्यो कल्पना तयार जातात ते प्रमाण आमचे मनांत भंय तयार जाता जावये. म्हजे लग्ना कडेन आईक हातभार लावपाक आमगेर दतें आका आयिल्लें. देवकाऱ्या दिसा हांवें 'सर्कीट हाऊजातील हडळ' हें पुस्तक वाचपाक घेतलें. दुसऱ्या दिसा लग्न म्हणतकच हांव सकाळीं पांचांक हांड्याक उजो घालपाक उठलों (हरशीं संऽक घालतां). मागिलदारा पावलों. मागिलदारान दतें आका कवळ्यो काडून तोंडाक माकड छाप मशेरी सारोवन आंगणाक सात्र मारतालें. रातचें 'सर्कीट हाऊजातील हडळ' म्हजे मनांत आशिल्लें. खीण भर दतें आका सात्रीर बशिल्ली हडळ असो भास जालो आनी हांवें परते पांयांनी 'हडळ हडळ' अशें आड्ड्त घरांत धांव मारली. भंयान मनशाचो आवरो उडटा आनी तो आंग सोडटा अशेंच कितें तरी जालें. लग्ना उपरांत म्हजें वजन चार कील देंवलें. आतां ते दतें आकाक लागून काय आनी कसल्या कारणाक लागून हें कळपाक मार्ग ना. दतें आकान मात आमगेर आसासर कवळ्यो काडून मशेरी लावन सात्र हातांत घेतली ना. ताच्या आत्म्याक आसा थंय शांती लाभूं हीच ईश्वर चरणी म्हजी प्रार्थना.

मनीस भियेतकच शेंपडी तुटऽसर फाटीक वाग लागिल्ल्यावरी धांवता अशें आयकलां अजून मेरेन पळोवना. जाका कसलोच भंय दिसना वा जो कोणाकूच भियेना ताका आमी खापो, कापस्दादीचो बी असलीं उतरां वापरतात. आमी खूब फावटीं नाका ते गजालीक, नाका थंय, नाका तेन्ना भियेतात.हें अध्यात्माक लेगीत मारक म्हणून आमचो संत सोहिरोबानाथ म्हणटात,'दोरीच्या सापा भिवुनी भवा भेटी नाहीं जिवाशिवा'. आमचे जिणेंतले अशे चुट्टीचे सोरोप सोदून काडून तांकां आमीच चेंचोंवचे पडटले. हांगा आमकां सावळो पावचोना.

संपर्क : 9850530756



# कविता

## शेवण्याचें चित्र रंगयतना

**मूळ फ्रँच कविता : इयॅक प्रेव्हॅर.**
**कोंकणी अणकार : परेश नरेंद्र कामत.**

पयलीं एक पांजरो रंगय
उगडें दार आशिल्लो.
मागीर रंगय
कितेंतरी गोमटें
कितेंतरी सादें
कितेंतरी सोबीत
कितेंतरी उपेगाक पड सारकें
शेवण्या खातीर.
मागीर कॅनवास झाडा लागसार व्हरून दवर
एकाद्रे बागेंत
एकाद्रे रायेंत
वा एकाद्र्या रानांत.
झाडा फाटल्यान वचून लीप.
मोन्यांनी,
हाल-धोल नासतना.
केन्ना केन्ना शेवणें रोखडेंच येता.
केन्ना केन्ना वर्सांचीं वर्सां येता
येवपाचें थारावचे आदीं.
नाउमेद जावं नाका
वाट पळय
वाट पळय, गरज आसल्यार वर्सांचीं वर्सां,
ताकतिकेन वा सवकासायेन शेवण्याच्या येवपाचें
नातें नाशिल्ल्यान चित्राच्या यशा कडेन.
जेन्ना शेवणें येतलें
...आयलें तर,
सामको थंडसाणेन राव.
शेवणें पांजऱ्यांत रीग म्हणसर वाट पळय
आनी तें रिगलें म्हणटकीच,
पिशोलान ल्हवूच दार लावन घे.
मागीर एक एक करून सगळे वारांव रंगय
शेवण्याच्या पिसांक मात पसून हात लागचोना
हाची जतनाय घेत.
मागीर झाडाचें चित्र काड
ताच्यो सगळ्यांत सुंदर खांदयो वेंचून काडून



शेवण्या खातीर.
रंगय पाचवी पालय आनी वाऱ्याची ताजपाणूय.
सुर्याचो धुळ्ळ आनी किडींचो आवाज गिमाळे हवेंतलो.
आनी मागीर
शेवणें गावपाचें मनार घे म्हणसर वाट पळय.
जर शेवणें गायलें ना
तर तें पाडें लक्षण.
लक्षण- चित्र बाबत आशिल्ल्याचें.
पूण जर तें गायलें
तर तें शुभ लक्षण
खूण ती- तुवें चित्रार सय करपाची...
म्हणून मागीर सामके अळंगसाणीन काड
शेवण्याचें एकाद्रें पीस
आनी बरय नांव तुजें चित्राच्या कोनशाक.

संपर्क : 9579138701



## कविता

**मूळ मराठी : पु. शि. रेगे**
**अणकार : एस. डी. तेंडुलकार**

हांवें खूब जाणांक खूब सांगलें
पूण एक केन्ना सांगलें ना
की ते पयशिल्ले बासरीचे सूर
म्हजे खातीरूच आशिल्ले म्हूण

तोवूंय केन्ना उलयलो ना
एका उतराचो आधार घेवन
रानाचो ताका भरवसो नाशिल्लो
उदकाचो ताका सोपूत आशिल्लो.

संपर्क : 9049814854



(जलालुद्दीन रुमी (१२०७- १२७३) हो तेराव्या शेंकड्यांतलो पर्सियन कवी. भौतीकवादाच्या जंवजाळांत घुसपल्ले आनी खऱ्या समाधानाच्या सुखाक आशेल्ले जगभरांतले रसीक आयज लेगीत तांच्यो कविता, कवनां वाचतात. रुमी काव्यांतल्यान उजवाडाचो अणभव घेतात. ह्यो कविता संवसारांतल्या मुखेल भासांनी अणकारीत जाल्यात. रुमीक अमेरिकेंतलो सगळ्यांच चड लोकप्रिय कवी आनी चड खप आशिल्लो कवी अशें मानतात. फाटलें आठ शेंकडे तो रसीक मनांचेर राज्य करता. भौ. मुकेश थळी हांणी तांच्यो कांय कविता कोंकणींत अणकारीत केल्यात. पयलेच खेप रुमी कोंकणींत येता.)



## रुमीलीं कवनां

अणकारपी : मुकेश थळी

१
आत्म्या, तुका भितल्लीं

गुपितां शिकूंक जाय?
जाल्यार
काळजान विसरूंक जाय,
लज आनी प्रतिश्ठा.

२
तुजे कडेन खूब आसा?
संपत्तींतलें दी.
तुजे कडेन थोडें आसा?
काळजांतलें दी.

३

दुबाव आनी भंय
काळजाच्या राज्यांत
धोंशी यालतात.

४

प्रेम हें जिणेचें उदक.
काळजा सयत
आत्म्या सयत
पिये.

५
मास्क पिंजून उडय
तुजें मुखामळ आसा
अती सुंदर!

६
तूं कितें सोदता
हाचे वयल्यान थारता
तुजी पात्रता!

७
ओंठ जंय मौन
काळीज जाणा आसता
हजार भासो
उलोवपाच्यो!

८
प्रेम ही न्हय भावना
प्रेम हें तुजें अस्तित्व

९

जिबेन सांगून
सगल्यो गजाली
जातात स्पश्ट.
पूण प्रेम हें अशें,
सांगनासतना जाता
अती स्पश्ट

१०
कृतज्ञता होच
आसूं तुजो भेस
जिणेच्या दरेका मोडणार
तोच करतलो पोसवण

११

तूं चिंतूंक शकना
ताचे परस चड प्रेम
तुजे भितर आसा

१२

तूं भितर प्रवास करशीत
जाल्यार तूं आख्खो संवसारभर
आनी ताचेय पेल्यान
भोंवडी करूंक शकतलो!

१३

तुज्या काळजाचो आकार
हो एक महासागर.
तातूंत लिपिल्ले खोलायेंत
तुका सोद.

१४

तुका जीवन दिवपी
एक शक्त आसा.
सोद ती.

१५
दोग प्रेमी
केन्नाच आसनात तृप्त
पयलो - संवसार प्रेमी
दुसरो - सत्याचो प्रेमी

संपर्क : 9545827662
9423056755



## वर्तमानाच्या स्क्रिनीचेर...

-जयप्रभू कांबळे

१
मिसकॉला सारको
पडून
आसता
हांव
वर्तमानाच्या
स्क्रिनीचेर.

२
प्रतिसादाचें
कितें
तें
सांगपाक
शकना.

३.
हांव
मनीस
न्हय
हाचेर
समेस्तांचें
एकमत
जाल्लें
अशें
दिसता.





